# जाग

वर्स २६ ◇ आंक ८ ◇ मार्च २०००

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

...री संपादपी : माधवी सरदेसाय

...उवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

...र जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

...पी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

...र चित्र : १६व्या आनी १७व्या शतमानांत जल्मा आयिल्ले इंडो-पोतुगीज शैलिचे कलेचो एक नमुनो.


## ह्या आंकांत




...र्सुकी पटी : रु. १००/-
...वेद्यार्थ्यांखातीर : रु. ७५/-
...ीन वर्सांची पटी : रु. २५०/-

...क वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
...वेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
... रुपये अदीक जोडचे)

...राचो नामो :
...ाग म्हयनाळें
१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
... द साउदादिश, पाजीफोंड,
...ांव – गोंय ४०३ ६०१.

...कोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-


**नदर संपादप्याची**

## दीर्घं पश्यत । मा ऱ्हस्वम्

(अमृत महोत्सवी वर्सांत पावल दवरतना)

एके नदरेन भाग्यवंत हांव. आतां मेरेन म्हजे कितलेशे भौमान जाल्यात. पिरायेक पन्नास, साठ, सत्तर वर्सां जालीं त्या म्हुर्तार जाल्यात. तर केन्ना वेगळ्यो वेगळ्यो तसरिपो मेळ्ळ्यात तेन्ना जाल्यात.

पयर सात मार्साक जालो तो कळस म्हणूंक जाय आतां मेरेनच्या सगळ्या भौमानां मदलो.

हाचे आदीं जितलेय भौमान जाले त्या वेळार 'गोंय गोंय उरचें म्हूण आनी कोंकणीक तिची हकाची सुवात मेळची म्हूण ह्या मनशान आपणालें पुराय जिवीत झरयलां' हे तरेचो एक सूर कानार पडत राविल्लो. खरें सांगचें जाल्यार, हो सूर कानार पडला त्या त्या वेळार म्हाका घुसमटिल्ले वरी जालां. कित्याक, हांव बेस बरो जाणां आशिल्लों, गोंय गोंय दवरपाक आनी कोंकणीक तिची हकाची सुवात जोडून दिवपाक म्हजेंच एकट्याचें जिवीत झरूंक ना. खूब जाणांचें झरलां. दोन नांवां हालींच वाजत गाजत सगळ्यांच्या कानार येवन आदळ्ळ्यांत. एक, उदयबाब भेंब्रांचें, दुसरें, मनोहरराय सरदेसायांचें. अजून जायत्या जाणांचीं नांवां मुखार येवपाचीं आसात – तांचे तांचे साठी, सत्तरी, पंच्यास्तरिचे उत्सव जातले त्या वेळार. गोंय गोंय उरूंक पावलें, कोंकणी आठवे वळेरेंत बसूंक पावली हें एकल्या दुकल्याच्या कर्तुत्वाक लागून न्हय तर धा जाणांचो हातभार लागिल्ल्यान घडूंक पावलें हें खूब बेगीन स्पश्ट जालें हें बरें जालें. ना जाल्यार आपणेंच ह्यो घडणुको घडोवन हाडल्यो ह्या भ्रमांत आमचे मदले कांय जाण उरतले आशिल्ले. खूब ल्हान वाटारांतले लोक आमी – इल्लेंशें कितें हातान घडनाफुडें, 'हांव नाशिल्लों जाल्यार तें घडून येवचेंच नाशिल्लें' ह्या गर्वान आपणालें व्हडपण दुसऱ्यांचेर बळयां लादीत आयिल्ले. ओपीनियन पोल आपणें हाडलो, कोंकणी आपणें केली अशें म्हणपाचें आतां तरी कोणाक धाडस जावचें न्हय अशी आस्त बाळगुंया. असलीं कामां धा जाणांचो हातभार लागले बगर घडून येनात हें सगळ्यांक स्पश्ट बरें समजूंक जाय. धा जाणांनी एकठांय येवन केल्लो धा जाणांच्या बऱ्या भल्याचो आमच्या इतिहासांतलो होच (गोंय वेगळें दवरपाचो आनी कोंकणीक आठवे वळेरेंत पावोवपाचो) पयलो वावर म्हणचो पडटलो. ताचो मक्तो कोणें एकल्यान घेवप हीं अपरबुद्दपणां जातलीं.

सगळ्यांची बुद्द, सगळ्यांचे यत्न, सगळ्यांचें कर्तुत्व एकठांय करून – सगळ्यांचे तकालसी बगर, यत्नां प्रयत्नां बगर, त्याग परिश्रमा बगर कशेंच जोडूंक येवपाचें ना असलें कसलेंच धा जाणांच्या बऱ्याभल्याचें ध्येय मुखार दवरून आमी केन्नाच खंयच्याच काळार वावरून येवंक नात. हाका लागून खरेलें व्हडपण केन्नाच कोणाक मेळूंक पावूंक ना. व्यक्ती ह्या रुपान आमी केदेय व्हड जावं येतात हें सगळ्या व्हड गोंयकारांनी दाखोवन दिलां. व्हडांतले व्हड विद्वान, व्हडांतले व्हड पंडीत, व्हडांतले व्हड साहित्यकार, कलाकार, संगीतकार, मुत्सद्दी, प्रशासक, घनवंत, ऐश्वर्यवंत, बळवंत गोंयकार जावन गेल्यात. आयजूय आमचे मदीं आसात. पुणून हांचे मदलो एकलोय आपणा वांगडा गोंयाक व्हड करूंक पावूंक ना. आपणा वांगडा गोंयूय व्हड जावंक जाय अशें खंयच्याच व्हड गोंयकाराक

आयजवेर दिसूंक ना. 'तूं तुजें पळे, दुसऱ्यांचें तुका कितें लागता' ह्या संस्कारांत आमची सगळ्यांची वाड जाल्या. म्हूण, आपूण, आपणाली बायल-भुरगीं, आपणालो घर-संवसार, आपणालो करियर, आपणालो बँक अकाऊंट सोडून सामान्यतायेन आमी केन्नाच कितेंच आमकां लावन घेनात. केन्ना केन्ना आमी संवसाराक उबगतात आनी अध्यात्मा कडेन वतात. थंयूय 'संवसारांत कोण कोणाचो न्हय' होच उपदेस आमकां आयकूंक मेळटा आनी आमी फकत आमच्या मोक्षाचोच हुस्को काडीत बसतात. गोंयच्या बऱ्या भल्याचो केन्ना हुस्को काडिनात. हाका लागून व्यक्ती ह्या रुपान आमच्यांतलो एकएकलो एका परस एक व्हड जावंक पावला. समाज ह्या रुपांत मात आमी किरकोळांतले किरकोळ – अर्थ नाशिल्ले – कोणेंय कांडचे हे तरेचे जावन पडल्यात.

गोंय व्हड करतले जाल्यार व्यक्तिगत कर्तुत्व पावना, सामुदायीक कर्तुत्वाचीं कामां गोंयांत जायत रावंक जाय हें ह्या निमित्त्यान सगळ्यांक स्पश्ट जालें जाल्यार हे साठिचे, सत्तरिचे, पंच्यास्तरिचे सुवाळे सार्थकीं लागले अशें जातलें. तशें जावं म्हणटां.

सामुदायीक कर्तुत्व करून दाखोवपाची एक भांगरा संद इतिहासान आमकां दिल्ली, गोंयच्या सुटके-झुजा वेळार. दुर्दैवान हांगाय आमचो व्यक्तिगत (individualistic) सभाव आड आयलो. आनी झुजाच्या आरंभाकूच 'हांवूच खरो' अशें मानून आमचे फुडारी एकामेकांचे पांय ओडपाक लागले. परिणामी, कोणूच 'व्हड' जावंक पावलो ना. आनी सुटके झुजाकूय कांय अर्थ उरलो ना. 'गोंयचें नांव व्हड करून ल्हान जाले म्हान' हें गीत बाकीबाबांनी आमच्यांतल्या कोणाक पळोवन रचिल्लें, खबर ना. 'बंदखणिचीं देवळां करूंक' जे भितर पाविल्ले तांकां पळोवन जाल्यार, देव जाणां. तांच्यांत एकलोच मुदलांतूच व्हड आशिल्लो तो त्रिश्तांव. बाकिचे सगळे एका फुडले एक ल्हान आशिल्ले. बंदखणींत धा धा वर्सां रावनूय ल्हानूच उरले. तांच्यांतले कांय जाण आपुणूच व्हड म्हूण मिरोवपाक लागले तेन्ना आशिल्ले ताचेकूय ल्हान जायत रावले. Small, smaller, smallest च जायत गेले. खंयच्याच स्वातंत्र्य सैनिकाक गोंयांत कोण लेखिना तें हे खातीर. ल्हान लोकांक कोण व्हड म्हणटलो?

सामुदायीक कर्तुत्व थोडें भोव करून दाखयलें तें ओपीनियन पोल हाडपा खातीर आनी तो जिखपा खातीर जांणी सत्याग्रह केले, बंदखणी भोगल्यो, वागाचे घोलींत वचून आमचे आड आशिल्ल्यांक आमचे करपाक वावुरले तांणी. जे भाशेक लिपी नाशिल्ली, व्याकरण नाशिल्लें, जिच्यांत साहित्य नाशिल्लें, लोक जिचीं फकत फकाणांच मारीत आयिल्ले, ते कोंकणीक आठवे वळेरेंत पावयली तांणी.

सात मार्साक जो भौमान जालो तो **तांचो** आशिल्लो. तांचे वतीन हांवें तो घेतला.

हाचे पयलीं आमचे कोणाचे भौमान जाल्यात तांच्यांत आनी सात मार्साच्या भौमानांत एक मोट्टो फरक आसा. हाचे पयलिंचे आमचे सगळ्यांचे भौमान कोंकणी चळवळींत आमचे वांगडा वावुरिल्ल्यांनी, आमच्या सांगात्यांनी घडोवन हाडिल्ले. सात मार्साचो भौमान सुवाळो घडोवन हाडप्यां मजगतीं कोंकणी चळवळिंतले खुबूच थोडे भाव आशिल्ले. चडशे सगळे आमचे पसून पयस राविल्लेच आशिल्ले. हो भौमान घडोवन हाडपांत जाच्यो न्हिदो सगळ्यांत चड खळ्ळ्यात – आनी जाचो सगळ्यांत चड हातभार लागला तो तर असो आशिल्लो की जाणें एका काळार म्हाड्डोळ्च्या भर बाजारांत म्हज्या कॉलराक धरून म्हाका हालोवन, खडसावन सांगिल्लें, 'तूं... आमच्या ह्या बालेकिल्ल्यांत रावन कोंकणी करतलो?... पळेतलों हांव कसो करता तो... तुज्या घराचेर मोर्चे हाडटलों...' तोंडांतल्यान भायर सरिल्लें उतर खरें करून दाखोवपी एक कर्तुत्वी मनीस हो – एम्. एस्. प्रभू. ताका आमचे वटेन पळोवन म्हाका जी खोस भोगता ती ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळिल्लो जाल्यार भोगतली आशिल्ली ताच्या हजार वांट्यां चड.

आमचे पसून अजून पयस राविल्ल्यांक आयज ह्या निमित्त्यान ह सांगूंक सोदतां —

आमच्यांत फूट आसप गोंयच्या बऱ्याची न्हय. तुमीय आतां लागीं येया 'एक भास, एक लिपी, एक साहित्य' ह्या सुतान एकामेकांक गुथून आ आमचो एक घटमूट कोंकणी भाशीक समाज रचुंया. ते उपरांतूच मा मराठीची हिन्दीची इंग्रजीची पोटभर सेवा करुंया. हें काम एकल्या दुकल्या कोणाचें न्हय, एकल्या दुकल्याच्या कर्तुत्वान तडीक वचपाचें न्हय. जाणांक एकठांय हाडून एकचारान करपाचें. ह्याच वावरांतल्यान एक कर्तुत्व स्वाभिमानी, घटमूट नवें गोंय जल्माक येतलें. आमच्या म्हालगड्यांनी म्हळ – दीर्घं पश्यत । मा न्हस्वम् – पयसलें पळोवन धोरणां आंखात. साम लागिंचें पळोवन न्हय. कित्याक, where there is no vision, peop perish.

## सगळें तोडचें फोडचें शें दिसना?

आयज बाथरुमांत हांवें 'लायफबॉय' शाबू पळेलो. कितलींशीं वर जालीं, 'हमाम' वापरीत आयलां. 'लक्स', 'पामोलीव्ह' सारके शाबू केन्न वापरले नात, अशें न्हय. पुणून 'हमामा'ची संवय जाल्या. 'हमाम' लाव न्हातकूच न्हाल्लेवरी दिसता.

मनीस संवयेचोय गुलाम जाता.

मनांत दुबाव आयलो, घरकान्नीक म्हजी 'पसीने की बदबू' आयल काय कितें? तिका विचारलें. ती म्हणपाक लागली, 'दीसभर बसून आसता पसीनो खंयच्यान येतलो?'

'मागीर, 'लायफबॉय'सो बाथरुमांत हाडून दवरला?'

तिणें टी.वी. वयले जायरातेच्या सुरांत जाप दिली, 'लायफबॉय जहाँ, तंदुरुस्ती है वहाँ.'

म्हळें, 'तंदुरुस्ती खातीर कुडीक व्यायाम जावंक जाय. चुरचुरीत ब भूक लागूंक जाय. पुश्टीक अन्न मेळूंक जाय. शाबू लावन कोण तंदुरुस्त जायना.'

लायफबॉय शाबू करता तीच कंपनी दुसरे कांय शाबू तयार करता तांची जी पूड उरता तिचो लायफबॉय करता आनी खूब जायरात करून तो खपयता. जायरातूय कसली? एकलो लायफबॉय लावन न्हाता आनी फुटबॉल खेळपाक वता. आनी गोल दिवन येता. जसो कितें लायफबॉयाव लागुनूच तो गोल दिवंक पावलो. लोक पिशे. ते लायफबॉय घेतात आनी कंपनीक कोट्ट्यांनी रुपयांचो लाव करून दितात. मुर्खांचो देश. दुस कसले दिवे लायतलो?

* * *

वीस पंचवीस वर्सांचे पिरायेचो जायसर काजू पानान वा आंब्या पानान दांत घांसले. वर्ध्याक पावलों तेन्ना बाभळिचें 'दांतण' मेळ्ळें. ताणें घांसपाक लागलों. मुम्बय आयलों तेन्ना माकडछाप पावडर वापरली. ते म्हणस संवसार खूब मुखार गेल्लो. हांवूच फाटसार कित्याक रावतलों? म्हूण टूथ-पेस्ट टूथ-ब्रशान दांत घांसपाक लागलों.

एक इश्ट आयिल्लो. ताणें पळेलें, हांव ब्रशाक कोलगेट लावन दां घांसतां. 'तूं अजून कोलगेट वापरता? शी. वज्रदंती वापर...' ताणें म्हळें

'कोलगेटीन कसलो पोटलो खाला आमचो?' हांवें विचारलें.

'तुका खबर ना? कोलगेटींत गोरवांच्या हाडांची पूड आसता.'

हांवें म्हळें, 'शी, ह्या पांवड्यार देंवन टिका करूंक जायना मनशान...

णें म्हळें, 'म्हजे पदरचें हांव सांगिना... पार्लमिन्टांत हाचेर खूब चर्चा ल्या. देशांत साडेतीन हजार कत्तलखाने आसात. तातूंत सद्दां लाखांनी र्ं मारतात. मास अरब देशांनी धाडून आमी परकी चलन जोडटात. चें सारें करपी कांय कारखाने देशांत आसात. ते हाडां घेवन वतात. तांतलो बरोचसो वांटो कोलगेट कंपनी घेता. तांची पूड करून हें र तयार करता. तोंडांत जो फेस येता तो सिंथेटिक कॉस्मॅटिक्साचो, 'निरमा' सारकेल्या वॉशिंग पावडरांत वापरतात... आमी अक्कल घाण ल्या. म्हूण आमी येवजी-बिवजी कांय नात... कोलगेट कंपनी बंद त म्हूण पार्लमिन्टांत बोवाळ जाल्लो... मार्गीर, कोणें कोणाचीं तोंडां लीं, कोणाक खबर. 'सांस की बदबू' सरकाराक आयली जातली ो ताणें कोलगेटच्या 'सुरक्षा चक्रां'त रावपाचें थारायलें जातलें... 'सांस बदबू' जाय तितलें उदक पियेले नात जाल्यार येता वा व्हिटामीन आंगांत नासत जाल्यार येता. कोलगेटीन ती ना करूंक येना...'

णें आनीक एक खबर सांगली. 'हालिंसाराक आमी कोडू लिंबांचीं णां' भायर धाडूंक लागल्यात, खबर आसा तुका? सुमार चाळीस तरांतरांचे ब्रश आनी पेस्टां वापरले उपरांत एक दीस अमेरिकेक लिंबाच्या 'दांतणां' सारकें बऱ्यांतलें बरें 'पेस्ट कम् ब्रश' दुसरें ना पाचो सोद लागलो. अमेरिकेची हवा थंड म्हूण थंय कोडू लिंबू जायना. हांगासरलीं 'दांतणां' ती व्हरपाक लागली. विज्ञानिकांनी कोडू लिंबाचे तरांचे प्रयोग केले. ताचे पसून कॅन्सराचें वखद करूं येता, एड्साचोय य करूं येता अशें कितें कितें सोदून काडलें. कोडू लिंबू खूब उपकारा ी एक रूख म्हणपाची जाणवीक जायनाफुडें अमेरिकेचे एके व्हड कंपनीन 'पेटंट' घेतलें. ताचेर आपणालो खाशेलो हक लागू केलो. आमी कराराचेर सय केल्या. आतां कोडू लिंबाचें झाड तुमच्या दारांत आसलें यार ताचेर तुमचो न्हय, ते कंपनिचो हक आसतलो. आमच्या सरकारानूच तिका दिला. कंपनी अब्जांनी रुपयांचो लाव करून घेतली... आमकां ोक नागयतात, लुट्टात म्हणपाचेंय आमकां कोणाक कळना...!'

* * *

्हाका दिसांतल्यान पांच स खेपे च्या लागता. कितलींशीं वर्सां जालीं, ीस' पालो आमी हाडटालीं. म्हाका 'मुडीस'चो वाज आयलो. म्हाड्डोळा पसऱ्यांचेर लिप्टन, ब्रुकबाँड असल्या कांय ब्रँडांचो पालो पळेलो. लो खंयचोय एक ब्रँड हाडूंक लाय म्हूण घरकान्नीक सांगलें. भुरग्यांनी हाडलो. शंबर रुपये किलो मोलाचो.

क दीस कांय आंकडे हातांत पडले. पोरूं वर्साच खंय हे कंपनीन र कोटी किलो च्याचो पालो विकलो. दार्जिलिंग, आसाम सारक्या रांनी हो पालो जाता. चोवीस रुपये किलो दरेन ही कंपनी तो घेता ी तरांतरांच्या 'बॉक्सां'नी पॅक करून शंबर रुपयांनी किलो दरेन विकता. यार, एका किलो फाटल्यान ती सांसश्ट रुपयांचो नफो काडटा. हांव ब लावंक बसलों. सत्तर कोटी, सांसश्टान गुणले. चार हजार सशें कोटी रुपया जाले. गोंय राज्याचें वर्सुकी बजेट तरी इतलें आसतलें कितें, खबर ना. खंयच्या राज्याचें आसतलें, देव जाणा! हे रुपये त नव्यो रेल्वे लायनी बसोवपाक खर्चिल्ले जाल्यार खंय चार साडे हजार किलोमिटर लांब लायनी घालूंक येतल्यो आशिल्ल्यो. देशांतले ठे मार्ग ह्या लायनींक जोडूंक येतले आशिल्ले.

याच घेवप ना अशें थारायलें. तुळशी पानांचो कसाय सुरू केलो. च्याची तान कसायान कशी भागतली? बँ म्हणून परती च्या सुरू ।

ार्जिलिंग आसामांतल्या वेपाऱ्यांक च्या निर्यात करूंक येवचो नाशिल्लो ? पॅकिंग देशी लोकांक करूंक येवचें नाशिल्लें? परकी चलन ते जोडून हाडचे नाशिल्ले? पुणून फाटल्या दोनशें तीनशें वर्सां सावन आमी 'फॉरेन' गजालिंचे गुलाम – सॉरी, भक्त जाल्यात. (गुलामां खातीर आमच्या अध्यात्मान आमकां भक्त हें एक सुंदर उतर दिलां.) आमकां फॉरेन माल आवडटा, फॉरेन कंपन्यो आवडटात, फॉरेन एक्सचेंज आवडटा. (एक दीस प्रधानमंत्रीय फॉरेनूच जाय अशें आमी म्हणपाक लागले जाल्यार कोणाक अजाप जावंक जायना.) हाका लागून आमचो माल फॉरेन कंपनींक विकले बगर, तांणी तो भायर धाडून खूब नफो जोडले बगर आनी हो नफोय सगळो तांणी भायर धाडून दिले बगर आमच्या देशाची उदरगत जावपाचीच ना, हे तरेचें एक 'नवें आर्थीक धोरण' आमी विकसावन काडलां!

* * *

कोणूय म्हाका मेळपाक येता तेन्ना नातरां खातीर बिस्कुल्यो, चॉकलेटी बी घेवन येता. (म्हाका संवंयूच ना दुसऱ्यांगेर वतना असलें कितेंय घेवन वचपाची.) पयर एकलो कॅडबरी चॉकलेट घेवन आयिल्लो. मनांत म्हळें, जांणी दूद केन्ना पळेलें ना असलीं – अश्वत्थाम्या सारकीं – लाखांनी भुरगीं ह्या देशांत आसात. तांच्यांतलीं अर्दीं दूद मेळूंक नाशिल्ल्यान मरतात. आनी जांचें पोट भरून गळो नळो एक जाला असल्या गिरेस्तांच्या वा नवगिरेस्तांच्या (नोवो रीशच्या) भुरग्यां खातीर ह्यो कंपन्यो ज्यो चॉकलेटी तयार करतात तांकां कितलें लिटर दूद लागता जातलें? चॉकलेटी करपी चौदा कंपन्यो खंय भायल्यान हांगा आयल्यात. दर एकलेक दिसाक उणे पुरें तीन हजार लिटर दूद लागता. म्हळ्यार, चार लाख वीस हजार लिटर दूद ह्यो चौदा कंपन्योच दर दिसाक गिळटात. चार लाख वीस हजारांक वर्साच्या तीनशें पांसश्ठ दिसांनी गुणचे. कितें जाप येतली? (म्हाका मेजूंक येना. म्हजो कॅल्क्युलेटर मोडला.) इतलें दूद गिरेस्त-नवगिरेस्तांच्या भुरग्यांच्या चॉकलेटीं खातीर खर्च करप? सोबता आमकां?

देशांत 'प्लॅनिंग' कित्याचेंच जायना. जाता तें गिरेस्त-नवगिरेस्तां खातिरच जाता. देशांत उत्पादन कांयच जायना म्हणटात तेंय खरें न्हय. खूब जाता. पुणून तें सगळें आमी भायर धाडून दितात. संवसाराचे फाटीर सात काय आठ बकासूर देश आसात. तेच आमचें अंयशीं प्रतिशत उत्पादन 'फस्त' करून उडयतात. आमी उत्पादन तांचेच खातीर करतात. देशांतल्या लोकांचें कोणाक पडलां? तांकां 'फॅमिली प्लॅनिंग' करात म्हूण सांगलें, दळदिरे करीच नात. भोगात कर्मांचीं फळां!

* * *

फार्टी दो. पुंडलीक गायतोंडे गोंयांत आयिल्ले. आमचे एक व्हड सुटके झुजारी ते. पुणून ताचेय परस व्हड 'मनीस'! तांकां मेळपाक काणकोणां गेल्लों. त्याच दिसा तांकां मेळपाक एकलो सुटके झुजारी आयिल्लो. एका काळा वयलो धश्ट-पुश्ट हो मनीस बारीक किडकिडीत जाल्लो पळोवन दोतोरान ताका विचारलें, 'कितें जालां रे तुका?' ताणें हें जालां तें जालां करून पिरपीर सुरू केली (खंयच्याय दुयेंती भाशेन) आनी म्हळें, 'एक बरेंऽ वखद दी म्हाका, दोतोर. तुजो हातगूण बरो...'

'वखद? गोंयांत कोणाक कसल्याच वखदाची गरज ना... बांगडे खा, आंबे खा...' दोतोरान ताका म्हळें.

बावडो ओगी पडलो. आनी थोडो वेळ बसून गेलो.

तो वतकूच हांवें दोतोराक म्हळें, 'एका काळार आंब्याक लोक फळांचो राजा म्हणटाले. आयज तो राजांचें फळ जाला, खबर आसा, दोतोर? हांवें ६२/६३ मेरेनच्या काळांत तीन रुपयांक शंबर मान्कुराद आंबे घेतल्यात. पयर आमची सून डझनभर आंबे घेवन आयली. पस्तीस रुपये डझन. सुरवाते-सुरवातेक पस्तीस रुपयांत एक ह्या मोलान बाजारांत मान्कुराद आंबो विकतात आनी येदें हें मोल दिवन आंबे घेवपी लोक गोंयांत आसात...

आनी बांगडो कसो जाला, खबर आसा? एका काळार आण्याक बारा बांगडे मेळटाले, आनी रुपयाक ते मुस्तींत सोळा आणे आसताले. रुपयाक एकशें ब्याण्णव बांगडे मेळटाले. आयज दोन रुपयांक तिनूच बांगडे मेळटात. फाल्यां तीन रुपयान एक मेळपाक लागलो जाल्यार म्हाका अजाप जावपाचें ना. सुंगटांचो वांटो चार आण्यांक मेळटालो. आतां वीस रुपये दिवचे पडटात... तुमचे मुस्तींतलें गोंय आयज उरूंक ना दोतोर... खंयचे खंय पावलां.'

* * *

आंबो मेळचो ना. पुणून 'मँगो फ्रुटी'? खंयच्याय गाड्यार मेळटली. कितले तरी जातिंचीं थंड पिवणां आयल्यांत. नांवां कसलींय आसूं तांचीं. बाटलेंत आसता तें फकत उदक. थोडो रंग, थोडें साकारीन. आनी थोडें बी.वी.ओ. (म्हळ्यार कितें तें खबर ना, पुणून ताणें कॅन्सर जाता म्हणटात तें आयकलां.) सात रुपये दिवन जी बाटली आमी घेतात तांतल्या पिवणाचें खरें मोल फकत सत्तर पयशे आसता. म्हळ्यार, दर एके बाटले फाटल्यान कंपन्यो चार चार, पांच पांच रुपये नफो काडटात. फाटीं लोकसभेंत एके कंपनी आड बोवाळ जाल्लो. वर्सान वर्स खंय ही कंपनी दोनशें अयंशीं लाख बाटल्यो विकता आनी एक हजार कोटी रुपयांचें परकी चलन आपणाल्या मायदेसांत धाडून दिता.

नशीब म्हळ्यार, ह्यो कंपन्यो आमचेंच उदक आमकां बाटल्यांनी घालून विकपाक लागल्यात आनी आमी तें विकतें घेवन पियेवपाक लागल्यात. 'बिसलरी' नांवाची एक कंपनी गंगेचें 'शुद्ध' उदक आमकां विकून लाखांनी रुपये जोडटा! उदक आमचें. घेवपीय आमी. नफो मात बिसलरी कंपनीक...

* * *

इंग्रज एकूच 'इस्ट इण्डिया कंपनी' घेवन आयिल्ले हिन्दुस्तानांत. आनी हे एकेच कंपनीन पुराय देश लुटून तो दोनशें वर्सां मेरेन इंग्रजांच्या शेकातळा दवरिल्लो. आयज इस्ट इण्डिया कंपनी परस हजार वांट्यांनी व्हड सुमार साडे तीन-चार हजार भायल्यो कंपन्यो आमी आपोवन हाडल्यात. आनी सैमान अब्जांनी वर्सां लावन जें निर्माण करून आमकां दिल्लें तें सगळें आमी तांकां विकून उडयलां. जमनी (फुके सवाय) विकून उडयल्यो. जमनी पोटांत आशिल्ली लोखण, मँगनीझ सारकी खनीज संपतूय विकून उडयली. मध्य प्रदेशांत रायपुरा लागसार भांगराची एक खण मेळिल्ली. विकून उडयली. वज्रांची एक मेळिल्ली. विकून उडयली. कावेरीचें तेल (पेट्रोल) विकून उडयलें. तें कित्याक, सात हजार किलोमिटर लांब दयविळ विकून उडयली. एक तर सगळेंच विकून उडयलां वा विकपाक काडलां. फाटीं गोंयच्या ह्या लिलिपूट राज्याच्या एका लिलिपूट राजान (मुखेलमंत्र्यान) शंबर कोटी रुपये मोलाची इंश्तितूत मिनेझिस् ब्रागांझाची आर्ट गॅलरी दिसा उजवाडे लुटून व्हेली (एक पयसो सरकारान खर्चूंक नाशिल्लो ती उबी करपाक) तेन्ना एका पत्रकारान म्हाका म्हळ्ळें, 'सांबाळात आं... तिवूय खंयचेय तरी कंपनीक वा आनी कोणाक ताणें विकून उडयल्या जातली... पणजेचें सचिवालय दिल्लींतल्या एका बिल्डराक (काय हॉटेलवाल्याक) विकून उडयलां, खबर आसा मू? बेश्टें नवें सचिवालय पर्वरि बांदूंक ना!' सगळें विकून आमी गोंयाक 'ग्लोबल विलेज' करपाक भायर सरल्यात.

केन्ना केन्ना म्हाका म्हजेच तकलेचो दुबाव येता. म्हजीच तकली वांकडी चलता काय कितें, अशें दिसता. काँग्रेसीन देश विकलो अशें म्हणून हांव नरशींव राव आनी मनमोहन सिंगांच्या नांवान बोटां मोडटालों. आतां पळेतां, सगळे तेच दिकेन पावलां घालीत मुखार वचूंक लागल्यात. मनोहर जोशी शिवसेनेच्या हिन्दुत्ववादी संस्कारांत वाडिल्ले. लालू प्रसाद जयप्रकाशांच्या समाजवादी संस्कारांत ल्हानाचे व्हड जाल्ले. देवेगौडांची वाड खंयच्या संस्कारांत जाल्या, खबर ना. पुणून ते जनता दलाचे म्हणटात. ज बसू कट्टर मार्क्सवादी. वेगळ्या वेगळ्या राज्यांचे हे भाग्य विधाते वचून 'येयात, आमच्या देशांत येवन उद्देग सुरू करात... तुमकां तरेची सवलत मेळटली' अशें सांगून व्हडल्या व्हडल्या कंपन्यांक आम दिवन आयल्यात. गुजरालांनी तर आपणाले अर्थमंत्री चिदंबरमांक धाडून 'पळेयात, दुसऱ्या कंपन्यांनी आमच्या देशांत येवन कितलो केलो तो... तुमीय करून घेयात... इंग्रज फकत दोनशें वर्सां उरले... 'यावश्चंद्र दिवाकरौ' रावात' अशें सगळ्यांक सांगून धाडलें! भाजपान कसले दिवे लायल्यात? तेच... भाजपाचें 'स्वदेशी' लेगीत आतां जगतां'त मोडपाक लागलां.

हांच्यांत हो बरो काय तो बरो हें कशें थारावपाचें आमी?

इतली तिडक मारता की केन्ना केन्ना सगळें तोडचें, फोडचें, मोडचें दिसता. एक मशीनगन घेवन पार्लमेन्टांत वचचें आनी सगळ्यांक ठा करून मारून उडोवचे-शें दिसता. (आनी गांधीवादी हांव एक, वि नाकात.)

* * *

'लायफबॉय' शाबू बाथरुमांत पळेला त्या दिसा इतलेंय हें तक घोळ्ळां. रातच्या धांक म्हजो दोळो लागता. ते रातचो बारा मेरेन कु परतीत रावलों. म्हळें, थंड उदकान न्हातलों म्हूण बारांक बाथरुमांत ग पळे जाल्यार, नळाक उदकूच ना... तिडकीन तांबयो काडून बालदेर आपटि आनी भायर आयलों. न्हिदेची एक गुळी घेवन हांतुळणार पडलों. धा मिन न्हीद आयली. सुस्त बरी न्हीद पडिल्ली. फांतोडेर पांचांक एक स पळेलें. फडऽफडऽ करून एक हॅलिकॉप्टर-शें आयलां आनी आमच्या मुखावेल्या जायां मळ्यांत शें देंवलां. पळोवंक भायर आय हॅलिकॉप्टरांतल्यान एकलो तरणे पिरायेचो देखणो सरदारजी देंवला. 'म्हा वळखलो ना?' तो म्हाका विचारता.

'तोंड वळखिचें-शें दिसता... नांवाची याद जायना...' हांव ताका ज दितां.

'हांव सरदार भगतसिंग', तो आपणाली वळख करून दिता.

'कोण भगतसिंग?... तो?...'

'हय, तोच, एसेंब्लिचेर बॉम्ब मोखून मारिल्लो तो आनी गोळ हुमकळावन जाका इंग्रजांनी मारून उडयल्लो तो... चल, यो म्हजे बरोबर लेख बीख बरोवन कांय जावपाचें ना. सगळें मोडून तोडून उडोवंक जाय अशें म्हणून तो म्हाका ओडून हॅलिकॉप्टरांत व्हरता. भितर आठ धा बॉ आसात.

'हें कितें?' हांव ताका विचारतां.

'बॉम्ब', तो जाप दिता. 'एक दिल्लीचेर उडोवंक जाय, एक मुम्बयचे एक कलकत्त्याचेर, एक मद्रासाचेर. देश सगळो ना करूंक जाय. ते भाय एक बनारसांतल्या विश्वेश्वराच्या देवळाचेर, एक जगन्नाथपुरींतल्या देवळाचे एक अमृतसरच्या सुवर्ण मंदिराचेर, एक दिल्लींतल्या जामा मशिदिचेर आ एक तुमचे गोंयचे सां फ्रांस्काचे इगर्जेचेर... धर्म सगळे काबार करूंक जाय

'हांव येना तुजे बरोबर', हांव ताका म्हणटां.

'येना?... येवचेंच पडटलें तुका... तुका ओडून व्हरतलों हांव... चोरां भारत स्वतंत्र जावचो म्हूण लाखांनी लोक बंदखणींत गेले, हजारांनी मे हजारांनी गोळाक हुमकळ्ळे... ते कितें, देश तुमकां विकूंक मेळचो म्हूण नव्या साम्राज्यवाद्यांक आपोवन हाडपाचे आशिल्ले जाल्यार इंग्रज कित्याक धांवडावन घाले? आसूं दी आशिल्ले तांकां... तुमच्या एक फुडाऱ्यांत दम ना... मार्क्सवादी कितेंय करतले अशें दिशिल्लें... दळ मोर्चे काडटात आनी सॅक्युलरिझमाच्या नांवान जातवादाक - कास्टिझम

सवण दीत रावल्यात... ढढ्ढाचार्य खंयचे कडले... चल, ना करून उडोवंया ाळ्यांक...'

'ना... हांव येना तुजे बरोबर' अशें म्हणून हांव मोठ्यान एक किळांच रतां.

किळांच तोंडांतल्यान फुटली जातली. टॉर्च पेटोवन घरकान्नीन विचारलें, कितें जालें? सपन पडलें?'

'आं... हय... सपन पडलें...' हांवें जाप दिली. हांव भियेल्लों. तिणें वो पेटयलो. मुखावयल्या मेजार गांधींचो फोटो आशिल्लो. हांव ताचे डेन पळेत रावलों. अवचीत गांधी उलोवपाक लागले, 'म्हजो मनशाच्या नीसपणाचेर आनी सत्याग्रहाच्या तत्त्वाचेर भावार्त नाशिल्लो जाल्यार हांव गतसिंगा बरोबरच उठून वतलों आशिल्लों... हांव निर्शेवंक ना.. पुणून शेंवपा सारकीच परिस्थिती आमच्या तुमच्या फुडाऱ्यांनी करून दवरल्या... गतसिंगाक दुशण दिवंक येवचें ना. तो म्हणटा तें खरें, लेख-बीख बरोवन ांय जावपाचें ना. देश पेटोवंक जाय...'

मागीर म्हजो दोळोच लागलो ना.

## संस्कारितेचीं सात पावलां

एका लग्नाक गेल्लों. थंय एक इश्ट मेळ्ळो. अमेरिकेंत कितलींशीं वर्सां ाविल्लो. जेवण बुफे पदधतिचें. आमी दोगूय प्लेटी घेवन लायनींत उबे ावले. लायन आसतना मदीं मदीं कांय बायलां लायन मोडून आपणाक जाय तें घेवन वतालीं तें इश्टान पळेलें. म्हणपाक लागलो, 'लायन केन्ना मोडूंक जायना ही शिस्त अजून आमच्या लोकांक लागूंक ना हें पळोवन अजाप जाता आनी वायटूय दिसता. अमेरिकेंत कोण लायन मोडिनात.'

'ही अमेरिका न्हय', हांवें म्हळें.

'तें खरें. पुणून कांय संस्कारी संवयो मनशान लावन घेवंक जाय.' ताणें म्हळें. 'अमेरिकेचें म्हाका कितेंच आवडना. राजकर्ण आवडना, अर्थकारण आवडना. पुणून कांय देखी हांवें घेतल्यात, अमेरिकनां कडल्यान...' अशें म्हणून ताणें कांय गजाली सांगल्यो.

पयली, जाता ते मेरेन आपलीं कामां आपणेंच करचीं. हातान काम करपाक फाटीं सरचें न्हय. ताची लजूय दिसूंक जायना. कपडे आपणेच धुंवचे. टॉयलॅट आपणेच निवळ करची. सामान आपणेंच उखलचें. गाडी आपणेंच धुंवची.

दुसरी, पयशांच्या वेव्हारांत उतराक पाळो दिवंक जाय. कोणाकडसून कितेंय घेतिल्लें आसलें जाल्यार तें वेळार पावतें करूंक जाय. फाल्यांचेर धुकलूंक जायना.

तिसरी, भुरग्यांच्या अभ्यासांत गरज नासतना मदीं पडूंक जायना. तीं भुरगीं आसूं, पुणून स्वतंत्र व्यक्तित्वां आशिल्लीं. तांकां स्वतंत्र रितिनच फुलूंक दिवंक जाय. चुकोय करूंक दिवंक जाय. तीं आपूण जावन आपणालो विकास करून घेतलीं.

चौथी, खंयच लायन मोडूंक जायना. कितलीय ताकतीक आसूं, गाडी 'ओव्हरटेक' करूंक जायना.

पांचवी, घरांत जावं ऑफिसांत, जावं रॅस्तॉरां, हॉटेलांत, मोट्यान उलोवंक जायना.

सवी, चार चौगांत थेंकर दिवंक जायना. खर्रर थू करून खंयूय थुकूंक जायना. खंयूय शेंबूड उडोवंक जायना.

सातवी, सिगरेटिचीं पोंतेरां, फस्काच्यो काडयो, कागदां, केळ्यांच्यो, संत्रांच्यो लारांजांच्यो साली डस्टबीन सोडून खंयच उडोवंक जायना.

## हजार जमाती वैभव आमचें

भारत देशांत तरांतरांच्यो जमाती रावतात. खरेपणानशीं, आमचें आगळें वेगळेंपण हें. एकामेकांक समजून सांबाळून आमकां जियेवंक आयलें जाल्यार भारत देश संवसाराचे फाटी वयलो एक शक्तिमान देश म्हूण मुखार येवंक पावतलो.

देशांत तरांतरांच्यो जमाती आसप हें वैगुण्य न्हय, वैभव तें आमच्या देशाचें.

रानांत एकेच तरेचीं झाडां आसलीं जाल्यार, जाणकार म्हणटात, रान सारकें वाडूंक पावना. तरां तरांचीं झाडां हाडून रोवंक जाय. रान बरें वाडटलें, बरें फुलतलें, बरें फळटलें. भारत भारत जावंक पावलो तो भारतांत वेगळ्यो वेगळ्यो जमाती येवन रावल्यो म्हूण. इंग्रज येवचे पयलीं त्यो सगळ्यो एकामेकांक सांबाळून एकठांय रावताल्यो. इंग्रजांनी आमचे मजगतीं फूट घाली आनी त्यो वेगळ्यो सरल्यो. फूट इतली पडली कीं इंग्रज गेले तेन्ना दोन व्हड जमातींनी देश वांटून घेतलो. एका देशाचे तांणी दोन देश केले. ह्या दोनां मजगतचो एक देश पर्थून एक फावट फुटलो आनी आतां एकाच देशाचे तीन देश जाल्यात. आनी तिनूय देश एकामेकां कडेन दुबावान पळोवपाक लागल्यात. एकामेकांक भियेवंक लागल्यात. इतले भियेवंक लागल्यात कीं तांतल्या दोगांक तर एकामेकां पसून आपणाक राखपाक अण्वस्त्रां बाळगुपाची गरज भासूंक लागल्या. एक देश म्हणटा, आमी अण्वस्त्रां बाळगिलीं तरूय आमी जावन तीं कोणाचेरूच पयलीं मोखून मारपाचे नात. दुसरो म्हणटा, हे अशें फकत तोंडान सांगतात, हांचेर पातयेवंक जायना; ते केन्ना आमचेर अण्वस्त्रां शेंवटून मारतीत, सांगूं येना. घाळ रावन उपकारचें ना, आमीय आमची ताकद वाडोवंक जाय.

केदो विद्वाट करतात दोनूय देश पयशांचो – फकत एकामेकांक भियेवन? हो पयसो तांकां आपणाली गरिबी ना करपाक वापरूंक येवचो नाशिल्लो?

गरिबी ना करपाक ते सावकारी देशां कडल्यान रिणां काडटात!

सपन पडूं नाका, ह्या राजकर्णी लोकांचें!

कल्पना करात, भारत, पाकिस्तान, बांगला देश एक जाल्ले – वा म्हणुंया, आपणालें खेरीतपण सांबाळून एकामेकां कडेन जुळोवन जियेल्ले, जाल्यार चीन, अमेरिका, रशिया हांची आमचेर आयज जी दादागिरी चल्ल्या, ती चलतली आशिल्ली व्हय? नशीब आमचें, महम्मद अली जीना इस्लामचें नांव घेवन वेगळे सरपाक भायर सरले आनी सावरकरांनी तांकां तुमी आमी कशेच एकठांय रावंक पावपाचे नात अशें सांगून तांकां धुकलून भायर घाले.

इंद्रधनुष्याक सात रंग आसतात, एकामेकांत ते भरसल्ले आसतात म्हूण इंद्रधनुष्य सोबता, सुंदर दिसता. संगितांत सात सूर आसतात, सातूय सूर एकामेकांत भरसतात म्हूण तरांतरांचे राग आमच्या कानार पडूंक पावतात. एकाच सुरान संगीत जायना. एकाच रंगान इन्द्रधनुष्य जायना. तशें, एकेच जमातीन देश सोबना. हजार जमाती देशांत आसूंक जाय तेन्नाच देश सोबता.

एकूच – तांणी एकामेकां कडेन विसंवादी जावन रावंक फावना. तांकां संवाद सादूंक येवंक जाय. ज्या देशा कडेन एकूच जमात आसता ताची काकूळट करूंक जाय. आमकां आमच्या हजार जमातिंचो गर्व दिसूंक जाय.

* * *

## पडसाद

नमस्कार

माधवी सरदेसाय हांणी 'भास आनी समाज' ह्या सदराखाला बरयिल्ल्या 'डायग्लॉसिया' (दुसरी खिस्त, फेब्रुवारी २०००) ह्या निबंदाच्या संबंदान कांय निरिक्षणां –

''आदल्या 'हिंदू गोंयां'त मराठीक प्रतिष्ठा आशिल्ली जाल्यार कोंकणीक 'हेंगाडी' लेखताले'' ह्या विधानाच्या पाठपुराव्याखातीर प्रा. सरदेसाय हांणी खूबशो देखी दिल्यात. देखी मुदलांतल्यो आसात, खऱ्योच आसात पूण विधान मात तपासून घेवचें पडटलें.

कोंकणीक प्रतिष्ठा नाशिल्ली म्हळ्यार, कितें मेळूंक जाय आशिल्लें, जें मेळूंक ना देखून प्रतिश्ठा नाशिल्ली म्हणपाची पाळी आयली, अशें हांवेंच म्हाका विचारून पळेलें. तेन्ना म्हजीच म्हाका जाप मेळ्ळी ती अशी:

मुदयेर थीक कशें एक सत्य प्रा. सरदेसायान सांगलें तें म्हळ्यार 'गोंयांतले पुरोहीत मुखेलपणान मराठी वाटारांतल्यान आयिल्ले देखून थंयचे वरी गोंयांतूय मराठी हिंदूंची पालवी धार्मीक भास जावंक पावली.' तशेंच जालां. म्हज्या सानपणांत हांवें सत्यनारायणाची पुजा कानडींतल्यान सांगपी भटांक पळेल्यात. हांव जेन्ना गोकर्णाक गेल्लों तेन्ना कानडींतल्यान पुजा जातात हें हांवें अणभवलें. मंगळूरचे भट पुजा कोंकणींतल्यान सांगतात. ही पुजा कानडी लिपयेंतल्यान बरयिल्ली आसता काय कितें, हें विचारून पळयत जाल्यार खरें तें कळतय बी.

हांव भुवनेश्वरांत रावतालों (१९८२-८३तली गजाल) तेन्ना जगन्नाथ पुरीक वचपाची संद सोडीनाशिल्लों. थंय शांतता राखपा संबंदान, जोतीं दवरपा संबंदान, जेवणा संबंदान पाटयो इंग्लिशींतल्यान आशिल्ल्याचें हांवें पळेलें. भगवान जगन्नाथाक तर थंय 'लॉर्ड जगन्नाथ' म्हूण पाचारत हो लॉर्ड ब्रिटिश पार्लमेन्टांतलो काय पाश्चात्य धर्मांतलो तें बाबडो ल[illegible] जगन्नाथच जाणा जावंये. नशीब म्हळ्यार, लॉर्ड जगन्नाथ, लॉर्ड बळि[illegible] वांगडा लेडी सुभद्रा म्हणूंक मात कोण धजना...

फकाणाची गजाल कुशीक काडली जाल्यार, मातृभाशेक व[illegible] उणाकपणान लेखता अशें म्हाका दिसना. मराठी जावं इंग्लीश, ह्यो भा[illegible] गोंयकारांनी वेव्हारीक कारणांखातीर आपणायिल्ल्यो आसात. हें वेव्हार[illegible] कारण राजकारण, साहित्यकारण, अर्थकारण आसूं येता. मराठणांतलो मन[illegible] मराठीचेर कितलोय मोग करूं, तो भायल्या वाठारांनी मराठीक कित[illegible] आपणायता - वा म्हणुंया, फाव तसो आपणायना - हे विशीं आमी नेमाळ्या[illegible] वाचतातच.

गोंयकारांनी मराठीक वेंग मारली ती घडये कानडीक पयस दव[illegible] खातिरच आसत. इंग्लीशीक वेंगायली पुतुगेज भाशेक फाफडून उडोव[illegible] खातीरय आसत. फाल्यां हिन्दीचो शेक वाडटकच (आनी तो वाडत आ[illegible] ही वास्तव गजाल आमकां बसस्टँड, पर्यटन करपी संस्था, बँको आ[illegible] शासकी परिपत्रकां हांतूंत दिसताच) मराठीचें स्थान साहित्यकारण आ[illegible] राजकारण हांचे मजगतींच उरतलें, हातूंत इल्लोय दुबाव ना! आम[illegible] मराठी जाय ती भास म्हूण, हें गोंयकारांक खबर आसा. पूण गोंयकारां[illegible] मराठी मनीस हांगासर आयिल्ले नाकात, तशेंच आपणाकय 'मराठी मातींत[illegible] माणूस' म्हणून कोणें पाचारिल्लेंय ताका मानवना, हें वास्तव कशें विस[illegible] येत? 'मराठी माणूस' म्हळ्यार मुंबयचो मनीस न्हय, हें गोंयकारांक बे[illegible] बरें खबर आसा; मराठी माणूस म्हणजे 'घांटी' हेंवूय तो जाणा. ते[illegible] मराठी भास मानून घेतली ती वेव्हारीक उपचार म्हूण, भास स्विकार[illegible] म्हूण तातुंतलें साहित्यूय बी स्विकारलें पूण संस्कृताय (मराठी संस्कृताय[illegible] स्विकारूंक ना, हेंय तितलेंच खरें!

**सु. म. तडकोडक[illegible]**

---

# ज्यानी

**प्रकाश पर्येंकार**

सोनी बोकडांक घेवन वाड्या कडेन पावली तेन्ना सुर्या दोंगरा आड ल्लो. दोंगराची सांवळी सुरंगिचें मळ भर पातळिल्ली. सुरंगिच्या मळार ांय जाणांचीं गोरवां आजून चरतालीं. कांय जाणांचीं गोरवां वाड्या कडेन ावन घुटमळटालीं. वाड्या वाड्यांतल्यान धुंवर झिरपतालो... ह्या सुरंगिच्या ळार एका अर्दान चार वाडे आसात. इतल्यांय धनगरां भितर सोनीचींच ोकडां आसात. बाकिच्यांनी बोकडां पोसपाचें सोडून दिलां. गोठलेची तडकी ाडून सोनीन बोकडांक भितर घातलीं.

आयज सोनी बोकडां कडेन गेल्ली. हरशीं बोंद्री बोकडांक घेवन रानांत ातालें. काल बोकडां फाटल्यान धांवतना गंळयेचो कांटो जोत्यांतल्यान आरपार जावन बोंद्रीच्या पांयांत रोमिल्लो. ताका लागून तें आयज घरा कडेन राविल्लें. वीस-पंचवीस बोकडां आसलीं तरी तांचे फाटल्यान धांवतना ताका पुरो जाता. बोकडां जे दिकेन वतात ते दिकेन राखण्याक तांचे फाटल्यान धांवचें पडटा. दोंगराचीं पालसणां चडून-देंवून सोनीचो जीव आयज अर्दो जाल्लो. बोकडांच्या पेट्यांक हाडिल्ली चार तिणें वंयचेर वयर दवरली. कोयती खुंटाक मारली. बोकडांक आमुडपाची बडी वंयक वटकून दवरून ती थंयच आकाड्यार बसली.

''येऽऽ धाकटे मना यायीच पानी दे ग. ताळा सुकून आलाया.'' वाड्यांत भितर सरचे पयलींच सोनीन बोंद्रीक उदक हाडपाक फर्मायलें. सोनीचे कैंस विस्कटून दोळ्यांर आयिल्ले. कपलाक आडवी ओडिल्ली कुकमाची रेग घामान धुवन गेल्ली. पांयांक उरबाडे ओडून ते आरशे-बुरशे जाल्ले. बोंद्री कुटत कुटत उदक घेवन भायर आयलें. उदकाचो तांबयो ताणें आपले आईच्या हातांत दिलो. तांबयांतलें अर्दें-अदीक उदक तिणें ताळ्यांत ओतयलें. तांबयांत उरिल्लें उदक दोळ्यांचेर मारून पदरान तोंड पुसलें. तशें तिका मातशें बरें दिसलें.

बोकडां भायर सोनीच्या वाड्यांत चार म्हसरां, दोन पाडके आनी एक गाय आसा. सोनीच्या घरांतल्या चारूय मनशांनी कामां वांटून घेतल्यांत. सोनी घरा कडलें काम पळयता. बोंद्री बोकडांक राखता. विठो गोरवांक पळयता. आनी तिचो घोव म्हसरांचे फाटल्यान वता.

म्हशी वाड्यांत येवन थारावल्यो. म्हशिंचेर नदर भोंवडायत सोनीन बोंद्रीक प्रस्न केलो.

'धाकटेऽऽ, बा कून गेला ग...?'

'बा आनी विठा ज्यानी गायीला बगाया म्हन खाल्ती गेल्यातऽऽ'.

'ज्यानी गाय नाही ती... विठा कून गेल्ता ?'

'गुराप त्योच होता. गुराना मार्गाव लावून त्यो नदीव आंघोळ कराया म्हन गेल्ता... पन ज्यानी गाय वाड्याव आलीच नाही...'

'मग ज्यानी गाय गेली तरी कुनऽऽ? हा विठा गुराप जातो क्ये कुदाया जातो त्यो देवाक ठाऊक...' सोनीचो जीव आदींच पुरो जाल्लो. दीसभर बोकडां फाटल्यान रानांत भोंवून भोंवून तिचें आंग चिकचिकीत जाल्लें. पांयाच्यो पोंवट्यो दुखूंक लागिल्ल्यो...

ज्यानी गाय आजून घरा पावूंक ना ही खबर कळटकच तिचें पींत खवळ्ळें. गाय, म्हस वा बोकड चुकून खंयूय उरलें जाल्यार सोनीचो जीव वयर-सकयल जाता. तिका रोकडोच हुस्को जाता. सोनीची गोरवांचेर खूब माया. रातचीं सगळीं गोरवां तिका दोळ्यां फुडें जाय... गोरवांक कितेंय जालें जाल्यार सोनी रोखडीच वखद करता.

सकाळीं बोकडांनी वयचे पयलीं सोनीन ज्यानी गायची पोटकळी सासपून पळयल्ली. घोटयेचेर नदर भोंवडायल्ली. एक-दोन दिसां भितर ज्यानी गाय व्हितली असो तिणें आपले परीन अदमास काडिल्लो. शेजारच्या मळ्यादादानय ज्यानीचे घोटयेक पळोवन म्हणिल्लें, 'गाय व्हियाची जाली... तिका आतां बांदून ठेवाया हवी.' मळ्यादादाच्या उतरांची याद येतकच सोनी चिंतूंक पडली. 'ज्यानी गाय कुठं तरी व्हिली असल... पाडकुल्याच क्ये झालं असल कुणास ठाऊक.' गाय रातची रानांत व्हिली जाल्यार पाडकुलें खंयूय पडून दुखावतलें म्हणपाची तिका खबर आसली. रातचें वासान देवकोलो वा वागूट पावल्यार पाडूक हातीक मेळचें ना हाचोय सोनीक भंय आसलो. तिणें वेळ काडलो ना. हातांत दांडो घेवन ती ज्यानी गायचे सोदीक अपुरपिक्या काळखांत रिगली. वाटे वयल्यानूच उलो मारून हेर राखण्यांक ज्यानी गाय पळयल्या काय म्हण विचारलें. पूण कोणेंच तिका पळयल्ल्याचें सांगलें ना. ती तशीच पावलां सांगता ते वटेन चलपाक लागली... ज्यानी गायक मोठ्यान उलो घालपाक लागली...

पांच-स वर्सां फार्टी गोरवांची धाम पातळिल्ली. वाड्याचे वाडे रिकामे जाल्ले. सोनीचें एकूच पाडकुलें ते धामींतल्यान वाटावल्लें. वाड्यांत परत एकदां कोगळीं-घांटी वाजूंक जाय... शेणाची गायर आसली तशी भरूंक जाय... हो विचार सोनीक परत परत बोंचतालो. कांय जाणांनी विकतीं गोरवां हाडून आपआपलो प्रस्न सुटावो केल्लो. एक दीस उलयतां उलयतां सोनीच्या घोवान म्हळें, 'आम्हाना गुर विकत घेऊया क्येऽऽ? भुयपालच्या डोईफोड्याचीप न्हानगी पाडकुल हाता...'

'गुर विकती घ्यायच्या भानगडीत पडूं नकासा... आमच्या पाडकुल्याला ज्यानी म्हन देवाला आंगवण करुया. देवाच्या मनात झालं तर दोन-तीन वर्सांत वाडा भरल.' सोनीन आत्मविस्वासान मांडिल्लें मत भाग्याक पटलें आनी तो राजी जालो. चार-चौगांक हाडून सोनीन पाडकुल्याक आंगोवन घेतलें. सोनी सयत हेर घरचींय ह्या पाडकुल्याक खंयसल्ल्यान तरी मूठभर चार हाडून घालतालीं. सोनीचो चलो विठो दिसूयभर ताच्याच फाटल्या-फुडल्यान नाचतालो. ताका तो आतां पातयेना जालो. रानांत खंयसरूय केवणीचें वा बोकड्याचें झोंप दिसतकच ताचे ताळे मारून ज्यानीक खावयतालो. किट्ट्यो पडल्यार सोनी त्यो खुटून काडटाली. एकदां हें

पाडूक सगळ्यांची नदर चुकोवन वाड्यांत भितर रिगलें आनी दळून हाडिल्लें नाचण्याचें पोतीभर पीठ फस्त केलें. ह्या वेळार सोनीक ह्या पाडकुल्याचो खूब राग आयिल्लो. सडासड फाटीन फाटभर बडयो मारून राग उक्तावचो अशें तिका दिशिल्लें पूण तिणें ताचेर एकूय बडी माल्लीना. विठ्याक आनी बोंद्रीक तिणें सांगून दवरिल्लें, 'माज्या ज्यानीला मारू नकोसा हां. देवाची चूक पडल.' ज्यांनी दिसी-मांसी आंगान सुटत गेली. पळयतां पळयतां पाडकुल्याची पाडी जाली. म्हणटां म्हणटां पाडयेन घोटी सोडली. सगळ्यांच्यो नदरो घोटयेर थिरावपाक लागल्यो. तिका चलपाकय आतां त्रास जावपाक लागले.

'आईऽऽ आईऽ आमच्या ज्यानीला पाडकुलाच हुयील... त्यो मोठा झाला की धुळ्यांच्या बैलाला शिंगाव काडील... मग धुळ्याचा मद जिरल.' मळार धुमशेणां कांडपी धुळ्यागेलो बांगर बैल नदरे मुखार हाडून विठ्यान आपली इच्छा व्यक्त केली.

'क्ये म्हनलस... तुला पाडकुला हवा... क्ये कराया? धुळ्याच्या बैलाप झगडाया? नको ते बोलल तर कानपट्यात मारीन.' सोनीन विठ्याचो कान नेटान वळ्ळो. आईक पाडकुलो कित्याक जाल्लो नाका तें ताका कळ्ळेंच ना. ताचो कान मात चुरचुरलो.

सोनीक पाडकुलें जाल्लें जाय आसलें. पाडकुलें जाल्यार तें फळटलें. ताका परत पाडकुलें... अशें जावन वाडो भरतलो. दूद विकूंक मेळटलें... तूप कडोवंक मेळटलें... शेणाची गायर भरतली... आनी चार पैशे हातांत येतले... पूण जालें भलतेंच. विठ्याचे इत्लेक फळ धरलें. ज्यानीक पाडकुलो जालो. तुजी वान्साच वायट म्हण सोनीन विठ्याक खेपलो. आपली आई रागान वायट. राग येतकच ती मेळत तें शेंवटून मारता हाचो ताका अणभव हाचे पयलीं आयिल्लो. आईच्या भंयान दोन-तीन दीस विठो कडेक कडेन भोंवपाक लागलो.

पाडकुलो वर्साचो जालो. ज्यानी गाय फांकलेक घेना जाली. पाडकुल्याकय लांथोवपाक लागली. ज्यानी गाय आतां फळ्ळ्या असो सोनीन अदमास काडलो. ज्यानी गाये विशीं घरांत कोणूच उलयना जालो. हे फावट तरी ज्यानीक पाडूक जातलें अशें सोनीक आनी वाड्यावयल्यांक दिसतालें.

'यंदा ज्यानीला पाडकुलच हुयील. तीच पोटूच सांगत्यात ...' जाण्टेल्या सम्यान गायक पारखून अदमास उकतायलो. हे फावटूय सगळ्यांची निराशा जाली. ज्यानीन पाडकुलो घालून सगळ्यांचे अदमास मातये भरवण केले. ह्या वेळार सोनी सामकी बेजार जाली. सात आठ दीस ती दूद काडूंक फांकलीक लेगीत बसली ना. तिचो घोव भागोच दूद काडचो. ज्यानीक देड-दोन लिटर दूद मेळटालें पूण तें दूद विकूंक मेळनासलें. ज्यानी गायचें दूद विकल्यार चूक पडटली ह्या भंयान सगळें दूद विरजणाक घालून सोनी ताचें धंय करताली. धंय घुसळून लोणयाचें तूप कडयताली. आनी ह्या तुपान देवाचो दिवो जळयताली.

वर्स-देड वर्स केन्ना आनी कशें गेलें तेंच कळ्ळें ना. ज्यानी गायचें हें तिसरें व्हीत. दोन पाडयां फाटल्यान आतां तरी ज्यानीक पाडकुलें जातलें अशी सोनीक आस्त आसा. हेरांचे वाडे गोरवांनी भरिल्ले. दुदाचो आनी शेणाचो पैसो तांच्या हातांत घोळूंक लागिल्लो. हें सगळें पळोवन सोनी भितल्ले भितर घुस्मट्टाली.

'या जाग्याचा माजा देव असल तर यंदा ज्यानीला पाडूक हुयील आनी वाडा भरल...' सोनीन जमनीर हात मारून वांठाऱ्याक उलो मारलो. गाय व्हियोपाक पावली तशी सोनीची उत्सुकताय मळबाक तेंकली. सांजच्या वेळार ज्यानी म्हऱ्यांत वचून सोनी तिका खाजयताली. 'तूज नांव राख गऽऽ बाई... माजी लेक ती...' अशें म्हण सोनी तिचे फाटीवयल्यान मायेन हात भोंवडायताली...

रातचीं धा वरां जावन गेल्लीं. निकतोच चंद्र वयर येवंक लागिल्लो. इतलो वेळ काळखांत बुडून गेल्ले हे वाडे एकामेकांक पळोवपाक लागिल... बोंद्रीन भाकऱ्यो भाजून दवरिल्ल्यो. आई, बा आनी विठ्याची तें आकांड... बसून वाट पळयतालें. भागो आनी विठो वाड्यार आयले. ज्यानी... सोदून-सोदून तांकां पुरो जाल्लें. भाग्याच्या मुखामळार निराशा फांकिल... जाल्यार विठ्याच्या दोळ्यांत आपले आईचो भंय दाटिल्लो.

'आली आग ज्यानी?' येवंचे येवन भाग्यान बोंद्रीक प्रस्न केलो.

'नाही. तुम्हाना गावली नाही?'

'नाही. सगळ पालथ घातलं. कुठ गेली कुनास ठाऊक. व्हीली-बि... असल. सकाळी गावल.' भाग्यान आपलें मत उक्तायलें. कांय वेळ... सोनी चिंतेस्त मुखामळ घेवन वाड्यांत भितर सरली. सोनी भोंवून भो... सामकी जाम जाल्ली. दीसभर बोकडांनी आशिल्ल्यान तिचें आंग अ... पयलींच आंवळून आयिल्लें. ती तशीच मुकाट्यांनी भितर गेली आ... तांबयो भर उदक घटा घटा करून पियेली. हें सगळें आपले खातिर... घडूंक पावलें ही खंत विठ्याच्या मुखामळार जाणवताली. विठो आंग चोर... साकट्यार बशिल्लो. सोनी भायर आयली आनी कडाशेक कितें तरी सोदप... लागली. सर्रऽऽ करून कडाशेची बडी ओडून काडून सडासड चार-प... बडयो विठ्याच्या फांटीर आनी हातीपांयार शेडायल्यो. मार पडनापु... विठ्यान एकूच बोब मारली. तो तसोच आरड मारीत भायर धांवलो आ... सुरांत रडपाक लागलो...

'तेला का म्हन मारतेस. त्यांनी क्ये केलं तुज्या गायीला?' भा... तिचेर तिडकलो.

'क्ये केल! खाऊन खाऊन मातला हा त्यो. गुराना सोडून हा मु... कून कुदाया गेल्ता तेच मना बगाया हवं.' सोनीन आवाज चडयलो आ... ताचेर परतली.

'हे रान सोडून गाय कून म्हन जानार. असल कून तरी...'

'इतका वेळ कवा थांबली हुती का ती रानात... व्हिली बी अस... तर पाडकूल गावल म्हन काय नेम नाही', सोनीन आपलो हुस्को आ... दुख्ख उकतायलें.

विठो रातभर घरांत आयलोच ना. अशें कितेंय जातकच तो कोणा... तरी जेवता आनी तागेरूच न्हिदता. सोनीक ज्यानीच्या हुसक्यान न्हीं... लागली ना. मळो आनी म्हातारो सगो ज्यानी गाये विशीं सोनी कडे... विचारपूस करून आपल्या वाड्यार परतले. रात बरीच वयर चडिल्ली... वाड्या भायर खट खूट जातकच सोनी भायर वचून ज्यानीची जाग घेताली... 'ज्यानीऽऽ येऽऽ' असो उलो घालून ती तिका सादयताली. मद्यानेर सोनीच... मात्सो दोळो लागलो तितलोच. नाजाल्यार सोनीन रातभर दोळ्यांक दो... लायलो ना.

झिळमिळचे पयलींच सोनीन आपल्या घोवाक उठोवन घातलो. म्हसरां... दूद काडून तांकां मळार व्हरून घातलीं. दीस फुटचे पयलीं दोगांय दो... दिकांनी ज्यानी गायक सोदपाक गेलीं. रातीं भोंविल्ले जागे परत एक... पांयांतळा घातले. घडघड्या व्हाळा वयले वटेन आशिल्ल्या घोटकाच्या... रुखातळा दिसाचीं गोरवां बसतात थंय वचून पळयलें. माट्टिच्या म... सकयल आशिल्ल्या कुळागरांत भागो भोंवून आयलो. ज्यानी कोणाचे पुरणी... भरल्या काय म्हण सोनीन पुराणिच्यो धाडी तपासून पळयल्यो. खंयू... व्हिल्या बी जाल्यार ज्यानी हांबेतली हें येवजून सोनीन गायक सादोव... पळयली...

सकाळीं च्याचो घोंट लेगीत घे नासतना भायर सरिल्ली सोनी देड-दो... वरां भोंवतकच तिका पुरो जावन आयलें. ती तशीच वयर रस्त्यार आयल... शेळक्यागेलो मको तिचेच वटेन धांवत येता तो तिणें पळयलो. तो धांव... येता तो पळोवन तिची उत्सुकताय वाडली.

'विट्याचे आयेऽऽ विट्याचे आयेऽऽ ज्यानी गाय गांवाकाराच्या मळ्यां...

त वरती करून पडली हा... वासरूं पन तिथं हा...विठा वासरा संग ..' मक्यान धापे धापेन सगळें एका दमान सांगून सोंपयलें.

'क्ये झालं माज्या ज्यानीला?' ज्यानी गाय पडल्या ह्या उतरांनी च्या काळजाक पीळ घातलो. ती मक्या फाटल्यान धांवतच चलपाक गली. दोगांय खर्शे-खर्शेंत गांवकाराच्या मळ्यार पावलीं. सोनीक धांप गिल्ली. पांय वळून आयिल्ले. आंगाक घाम सुटिल्लो... जंय गाय पडल्या य मको तिका घेवन गेलो. सोनीची नदर ज्यानी गायचेर पडली. ज्यानी यच्या गळ्याक नायलॉन दोरयेचो फांस्को आशिल्लो. ती धडेर मान शी करून जमनीर पातळिल्लीं. फुडले पांय पोटातळा चुरगळिल्ले. फाटलो क पांय वरसो जाल्लो. दोळे उकतेच आशिल्ले. सोंडले कडेन फेंस गन सुकिल्लो. नाकाचे पुडयेंतल्यान रगताची धार व्हांवून रगत सुकिल्लें. री लागून मानेकडली चामडी सोलपटिल्ली. वार पडूंक नाशिल्लीं. ती शीच भायर लोंबकळटाली. मुस्कांचें भिरें वारी भोंवतणीं घुंवघुंवतालें...

झिळिच्या मुनाक जंय फांस्को बांदिल्लो ती झील अर्दी अदीक हुमटल्ली. ाडे कुशिचो जागो झडपून गेल्लो... पाणावल्ल्या दोळ्यांनी सोनीन ज्यानी येवेल्यान अळंग नदर भोंवडायली. सोनीचे नदरेच्या अस्करांत ज्यानी येचें मोनळपण भरतां भरतां तीच मोनेळ जाली. सोनीक उतरूच फुटना ाले. तिचें आंग-पांग थरथरपाक लागलें. दोळ्यां कडेन काळोख दाटून ायिल्लेवरी जालो. पांय लोकणाचे गुळे कशे जड जाल्ले वरी भास जालो. ी तशीच जड पावलांनी ज्यानी म्हऱ्यांत गेली. थरथरत्या हातांनी ज्यानी ायच्या दोळ्यां वयल्यान हात ओडलो. गाय देंवतेर आशिल्ल्यान दोरी ओडून तायट जाल्ली. तरी आसतना फांस्क्याची गांठ तिणें यत्नान सोडयली. लेंगडिचे दोन-चार ताळे मोडून जिवाळेर उडयले...

आपल्या केळिंनी सद्दां गोरवां भरता आनी कोणाचीं गोरवां तें कळना म्हूण वासू गांवकारान तिनसांजच्या वेळार धाडीर फांस्को लाकून तो घरा गेल्लो. ह्या अर्दान ज्यानी गायक रस्त्यान वयर घालून विठो न्हंयचेर न्हावंक गेल्लो. ज्यानी गाय घरा वंच नासतना ती तशीच सकयल देंवली आनी बद्द वासूच्या मळ्या वटेन गेली. फांस्को लाकिल्ले धाडींतल्यान ती भितर सरपाक लागली. भितर सरतना माने भोंवतणी फांस्को अरणलो आनी ती थंयच उरली.

राती मद्यानीर ज्यानी गाय उब्यांनीच व्हियेली. पाडकुलें घडघडून सकयल पावलें आनी हांबेवपाक लागलें. पाडकुलें हांबेता तें पळोवन ज्यानी गाय सुटपाक बळ मारपाक लागली... जितलें बळ मारता तितलो गळो अरणपाक लागलो. बळ मारतां मारतां ज्यानी गायचो तोल गेलो आनी गळ्या भोंवतणी फांस अरणलो. 'आंब्येऽऽ' करून तिणें एकूच बोब मारली. उठपाक धडपडपाक लागली. आनी कांय वेळान लाकूड कशी थंयच घट जाली...

पाडकुल्याक धरून विठो कुशीक उबो आशिल्लो. ताच्या दोळ्यांत आपले आईचो भंय दाटिल्लो. तिका पळयतकच ताचें आंग भंयान थरथरूंक लागिल्लें. ताचो एक दोळो आईच्यो हालचाली नियाळटाले... पाडकुलें परत परत हांबेतालें. हातांतलें सुटून आपले आवय कडेन वचपाक धडपडटालें. आंगाचे चिकचिकसाणेक लागून पाडकुलें मातयेन लोळून दाट जाल्लें. गेळां खुटूंक नाशिल्ल्यान ताका सारकें उबें रावपाक जमनासलें. सोनी पाडका कडेन वचपाक मुखार सरली. आपणाक आई मारीत म्हण विठो पाडकाक थंयच सोडून कुशीक वचून उबो रावलो. तशें तें पाडूक जमनीर आडवें पडलें.

'माजी लेक ती...' म्हणत सोनीन पाडकुल्याक म्हऱ्यान ओडून घेतलें. कांय वेळ पोसायल्ले वरी केलें. सोनीन पाडकुल्याक उबें केलें. सोनी सकयल बावगली. आपली तकली ताच्या पोटातळा घालून त्या पाडकाक तिणें उकलून घेतलें. दोनूय हातांनी ताच्यो दोकल्यो घट धरल्यो. चार पावलां मुखार येवन परत एकदां ज्यानी गाये वयल्यान अळंग नदर भोंवडायली. सोनी तशीच फाटीं वळ्ळी.

'तुमी हितच बसून राहा. मी बाला लावून देते...' अशें विठ्याक आनी मक्याक सांगून सोनी त्या पाडकुल्याक घेवन घरची वाट चलपाक लागली...

✻ ✻ ✻

## डायग्लॉसिया
(तिसरी खिस्त)

# भासां भासां मजगतीं वापराच्या मळांची वांटणी

**माधवी सरदेसाय**

ऊंच-उणाकपणाच्या तत्त्वाचेर उबे आशिल्ले एके खाशेले भाशीक परिस्थितीक चार्ल्ज फर्गुजनान 'डायग्लॉसिया' नांव दिल्लें. डायग्लॉसीक समाज एके भाशेच्या दोन बोल्यां भितर आपणाली भाशीक जीण वांटून घालून जियेता आनी नेमून दिल्ले सुवाते भितरूच भाशेची ती ती बोली वावुरता. ह्यो दोन बोलयो दोन वेगळ्या वेगळ्या काळांतल्यो भाशेच्यो इतिहासीक बोलयो आसूं येतात तश्यो दोन वेगळ्या वेगळ्या वाटारांनी घोळपी भाशेच्यो समकालीन बोलयोय आसूं येतात. फर्गुजनान दिल्ल्या देखीं भितर अरबी आनी ग्रीक भाशीक समाजांत दोन इतिहासीक बोलयां भितर जाल्यार स्विस-जर्मन आनी हायशियन क्रियोल भाशीक समाजांत दोन समकालीन बोलयां भितर हें डायग्लॉसीक नातें पळोवंक मेळटा. काळाचे वा थळाचे नदरेन पयस आशिल्ले बोलयेक डायग्लॉसीक समाज 'व्हड' लेखता, माथ्यार घेवन नाचता आनी लागिंचे जिते जिवे जिबे वयले बोलयेक 'ल्हान' लेखून तिची उवेखणी करता.

जोशुआ फिशमन हांणी डायग्लॉसियेचे संकल्पनेची व्याप्ती वाडयली. एका समाजांतल्या एकाच भाशीक पंगडा भितर दोन वा अदीक भासां मजगतीं वापराच्या मळांची वांटणी जाता तेन्ना ताकाय ते डायग्लॉसिया म्हणूंक लागले.[१] एका समाजांत दोन वा अदीक भासो दोन तरांनी घोळूं येतात म्हणपाचें तांणी जाणकारांचे नदरेक हाडून दिलें. दोन वा अदीक भासो समाजाच्या दोन वा अदीक वेगळ्या वेगळ्या भाशीक पंगडां भितर वा पंगडां मजगतीं घोळटात तेन्ना ती 'सादी' द्विभाशीकताय (bilingualism) वा भौभाशीकताय (multilingualism) जाता. हें intergroup communication. एकाच भाशीक पंगडा भितर दोन वा अदीक भासो घोळटात तेन्ना ती डायग्लॉसीक द्विभाशीकताय वा भौभाशीकताय जाता. हें intragroup communication.

मंगळूरांतलो कोंकणी भाशीक घरांत कोंकणी उलयता, बाजारांत तुळूंत वांटपणां करता आनी शाळेंत कन्नड माध्यमांतल्यान शिकता. ह्या कोंकणी भाशिकाक घरच्या वातावरणांतल्यान कोंकणी येता तशी घरा भोंवतणच्या वातावरणांतल्यान तुळू येता. कोंकणी मनशा कडेन तो कोंकणींतल्यान उलयता, तुळू मनशा कडेन तुळूंतल्यान उलयता. ही 'सादी' द्विभाशीकताय. पूण मंगळूर कर्नाटकाचो वाटार जाल्ल्यान मंगळूरांतल्या कोंकणी मनशाक कन्नडूय शिकची पडटा. सरकाराचो आधार घेवन चलपी मुळाव्या शाळांनी भुरग्यांक शिकूंक घालीं जाल्यार तांकां शिक्षणाचें माध्यम म्हूण कन्नडूच आपणावची पडटा. प्रशासनाच्या मळारूय मंगळूरांत कन्नड चलता. सरकारी नोकरी करपी मंगळूरचो कोंकणी मनीस सुटये खातीर कन्नड भाशेंतल्यान अर्ज करता. मंगळूरांतलो तुळू मनिसूय असोच कोंकणी भाशिका वरी शाळें वचून कन्नड शिकता, प्रशाराकी पांवड्याचेर कन्नड वापरता... कोंकणी आन कन्नड, तुळू आनी कन्नड हांचे भितर मंगळूरांत डायग्लॉसीक नातें पळोवं मेळटा. मंगळूरी कोंकणी भाशिकाचे जिणेंत इंग्लीशूय येता. वयल्या पांवड्य वयलें शिक्षण तो इंग्लीशींतल्यान घेता – दोतोर, इंजीनियर, आर्किटॅक बी ताका इंग्लीश जाणा जाले बगर जावंक येना. पूण इंग्लीश मंगळूरांतल फकत 'वयल्या शिक्षणाची भास' अशें म्हणूंक येना जायते फावटीं मंगळूर दोग कोंकणी भाशीक आपसांत कोंकणींतल्यान उलोवपाचें सोडून इंग्लीशीं उलयतात, तशे, एकामेकांक इंग्लीशींतल्यान चिटी बरयतात लग्ना/काजाराच्यो व्हॉवळिको इंग्लीशींतल्यान छापतात... 'बरी इंग्लीश येवप हाका मंगळूरच्या कोंकणी समाजांत प्रतिश्ठाय आसा... हें सगळे पळेतकच मंगळूरांत कोंकणी आनी इंग्लीश, इतलेंच न्हय तर कन्नड आनी इंग्लीश हांचेय भितर डायग्लॉसिया दिश्टी पडटा.

समाजभासविज्ञानाच्या मळार आयज डायग्लॉसिया उतर फिशमनाच्या विस्तारीत अर्थान घोळटा.

फ्रांस आनी जर्मनीचे शिमे वयल्या आल्सास वाटारांत थळाव्यो जर्मन बोलयो आनी प्रमाण फ्रँच हांचे भितर डायग्लॉसीक नातें पळोवंक मेळटा – आल्सासांत 'प्रतिश्ठीत' मळांचेर प्रमाण फ्रँच बोलयेचो वापर जाता आनी 'अप्रतिश्ठीत' मळांचेर आल्सासांतल्यो जर्मन बोलयो घोळटात.[२].

स्पेनाच्या वायव्य वाटारांतले थळावे गालिशियन आनी स्पॅनिश भासां भितरूय डायग्लॉसीक नातें पळोवंक मेळटा. सामान्यतायेन 'वयल्या' मळांनी स्पॅनिश जाल्यार 'सकयल्या' मळांनी गालिशियन भास घोळटा.[३]

भारतीय संदर्भांत जाल्ल्या डायग्लॉसियेच्या अभ्यासांत लच्छमन खूबचंदाणींचें म्हत्वाचें योगदान आसा.[४] ते म्हणटात, भौभाशीक समाजाच्या भाशीक वेव्हारांतले विविधतायेची तुळा एकभाशीक – 'standardized' समाजाच्या भाशीक वेव्हारांतले विविधताये कडेन करूंच नज. भारता सारकेल्या देशांत भौभाशिकताये वांगडा एके तरेची भाशीक 'अस्थिरतायू'य पळोवंक मेळटा – बदलपी संदर्भा वांगडा लोकांच्यो भाशीक identities बदलतात. हांगा 'हिन्दी' मनीस 'राजस्थानी' जाता, 'मराठी' मनीस 'कोंकणी' जाता, 'कन्नड' मनीस 'तुळू' जाता... समाजाचे राजकी सांस्कृतीक संदर्भ बदलतात तशें ताचें भाशीक चित्रूय बदलता. हे तरेन बदलुपी 'अस्थीर' भाशीक पंगडांक खूबचंदाणी fluid speech groups म्हणटात.[५] उत्तर-मध्य भारतांतले १९६१चे लोकमेजणेंत १२ कोटी तीस लाख लोकांनी आपणाली आवयभास हिन्दी म्हूण सांगिल्ली. पूण तेन्नाय ह्या 'हिन्दी' भाशिकांच्या

सपट्ट्या वेव्हारांत ब्रज, बांग्रू, बुंदेलखंडी सारकेल्यो वेगळ्यो वेगळ्यो न्दुस्तानी बोलयो वा, पंजाबी, डोग्री, पहाडी, राजस्थानी, मारवाडी, वधी, छत्तीसगढ़ी, भोजपुरी, मैथिली, मगही सारकेल्यो वेगळ्यो वेगळ्यो सोय घोळटाल्यो, आयजूय घोळटात. तरी हो लोक आपणाक हिन्दी नता – हिन्दीन तागेले भाशीक जिणेंत वयली, प्रतिशठेची सुवात जोडल्या. विधतायेन भरिल्ल्या ह्या 'हिन्दी' भाशीक समाजाक खूबचंदाणी पांच ड्डांनी वांटून घालतात –

१) अनुपचारीक प्रसंगांर आपणाले 'खरेले' नीज बोलयेचो / भाशेचो पर करपी आनी अुपचारीक प्रसंगांर खडी बोलीचो वा प्रमाण हिन्दीचो पर करपी हिन्दी भाशिकांचो पंगड. हे लोक खडी बोलीक वा हिन्दीकूच ास' लेखतात आनी आपणाल्या नीज बोलयांक वा भासांक हे 'भाशे'च्यो ड्यो किरकोळ 'बोलयो' लेखतात.

२) फकत जाणटेल्यां कडेन अनुपचारीकपणान उलयतना नीज बोलयांचो भासांचो वापर करपी आनी हेर प्रसंगांर चडांत चड खडी बोलीचो पर करपी हिन्दी भाशिकांचो पंगड. हे लोक खडी बोलीचो संबंद शारीपणा urbanisation) कडेन आनी आधुनिकते कडेन जाल्यार आपणाल्या नीज लयांचो / भासांचो संबंद गांवगिरेपणा (rurality) कडेन आनी राणमतवादा (orthodoxy) कडेन जोडटात.

३) उलोवपांत (अनुपचारीक वा उपचारीक) नीज बोलयो / भासो परपी आनी बरपांत देवनागरी लिपयेंतली खडी बोली वापरपी हिन्दी ाशिकांचो पंगड. मुसलमानांचे 'उर्दू' (फारसी-अरबी लिपयेंतली खडी ली) भाशीक identityक जाप म्हूण हिन्दूंची ही 'हिन्दी' (देवनागरी लपयेंतली खडी बोली) भाशीक identity वयर सरल्या.

४) चड करून गांवांनी रावपी, खडी बोली (प्रमाण हिन्दी) उलोवंक गीत नकळ आसतना आपणाक हिन्दी भाशीक मानतल्या लोकांचो पंगड. लोक आपणाक 'हिन्दी परंपरे'चो, हिन्दी अस्मितायेचो वांटो लेखता हूण आपणालीं सगळीं भाशीक खाशेलपणां पेल्यान दवरून तो (उलोवंक गीत नकळ जाल्ले) 'हिन्दी'चे घुडयेखाला एकठांय जाता.

५) दिल्ली भोंवतणच्या नीज खडी बोली वाटारांतल्या हिन्दी भाशीक ोकांचो पंगड. हो लोक अनुपचारीक / उपचारीक प्रसंगांर खडी बोलीच ापरता. खडी बोलीं सोडल्यार हिन्दुस्तानीची दुसरी खंयचीच बोली ताका ना. हेर शारी वाटारांतल्या, आपणाल्या नीज बोलयां / भासां कडलो ंबंद तुटिल्ल्या आनी फकत खडी बोलीच आपणावन बशिल्ल्या लोकांचोय ासपाव खूबचंदाणी ह्याच पंगडांत करतात.

'एका'च भाशीक समाजांत कितली विविधताय, पळेयात!

[मुखार चलता]

१. पळेयात: J.A. Fishman 1967: Bilingualism with and without Diglossia; Diglossia with and without Bilingualism. *Journal of Social Issues* 23,2: 29-38. हाचीच निवळायल्ली आवृत्ती फिशमनांच्या **Sociolinguistics: A Brief Introduction** (Rowlely, MA: Newbury House 1970) पुस्तकांत 'Societal Bilingualism: Stable and Transitional' ह्या माथाळ्या खाला (पानां: ७८-८९) आयल्या.

२. हे डायग्लॉसियेची इतिहासीक फाटभूंय मुजरत समजून घेवपा सारकी—

आल्सास मुदलचो जर्मन भाशिकूच वाटार. १६४८त ताचो फ्रांसांत आसपाव जावचे पयलीं तो जर्मनीचोच वांटो आशिल्लो. १७८९त फ्रांसांत राजकी क्रान्ती जाली. ते मेरेन आल्सास फकत राजकी नदरेन फ्रैंच वाटार आशिल्लो, सांस्कृतीक नदरेन हो वाटार जर्मनूच आशिल्लो. फ्रैंच क्रान्तिकारकांनी आल्सासाक पुरायेन 'राष्ट्रीय प्रवाहां'त हाडपा खातीर पेंगट बांदलें. आल्सासाच्या जर्मन भाशीक नागरिकांक ताका लागून खूब त्रास भोगचे पडूंक लागले. नेपोलियन सत्तेर आयलो तेन्ना ही पिडापीड थोडीभोव थांबली. आल्सासाचे भाशीक परिस्थिती विशीं खंय ताणें म्हळ्ळें, 'ते जर्मन उलयले म्हूण कांय नज, तांणी तलवारी फ्रैंचींत वावुडटकच जालें.' तरी १९व्या शतमानांत आल्सासा वयलो फ्रैंच प्रभाव वाडत गेलो. थंय शिक्षणांत फ्रैंच आयली, ती मुळाव्या शिक्षणांतूय पावली. उद्देग-धंद्यांच्या मळार फ्रैंचिचो चड वापर जावंक लागलो. धवाड्यांनी फ्रैंच आपणायली. तरणाटी पिळगीय फ्रैंचिचो अदीक वापर करूंक लागली. तरी घरांत, इगर्जेंत आनी हेर किरकोळ वेव्हारांत थंय जर्मन बोलयोच घोळटाल्यो. १८७०त फ्रांस आनी प्रुशियेचे लडाये उपरान्त बिसमार्कान आल्सास वाटार परतो जर्मनीक दसयलो आनी ह्या वाटाराक आशिल्लो तसो जर्मन करपाचे यत्न सुरू जाले. पयल्या संवसारीक म्हाझुजा उपरान्त आल्सास वाटार परतो फ्रांसाक मेळ्ळो आनी फ्रांस परतें आल्सासाक फ्रैंच करपाच्या वावराक लागलें. दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजा वेळार जर्मन परते आल्सासांत भितर सरले. आल्सासांतल्या फ्रैंच भाशेच्या वापराचेर तांणी बंदी हाडली आनी आल्सासाच्या नागरिकांक बळ्यां जर्मन फौजेंत भरती करून घेतले आनी तांकां फ्रांसाच्या इश्ट राष्ट्रां आड झुजूंक धाडले. फौजेंत भरती जावंक विरोध दाखयलो तांकां कॉन्सन्ट्रेशन कॅम्पांनी धाडून दिले. ह्या अत्याचारांक लागून आल्सासाच्या लोकांक फ्रांसा विशीं अदीक आपलेपण दिसूंक लागलें. पूण ह्या म्हाझुजा उपरान्त आल्सास वाटार परतो फ्रांसाचो जालो तेन्ना झुजा वेळार जर्मनीक मना विरुद्ध जावं पूण पालव दिल्लो म्हूण फ्रांसाची जनता आल्सासाच्या लोकां कडेन दुबावान पळोवंक लागली. फ्रैंच सरकारानूय आल्सासाच्या शाळांतल्या जर्मन माध्यमाचेर बंदी हाडली. आनी थंय भौशीक मळार फ्रैंचिकूच फाटबळ मेळूंक लागलें. १९६४त काडिल्ल्या एका अदमासा प्रमाण, आल्सासाच्या ८०% नागरिकांक आल्सासाची एक थळावी जर्मन बोली सारकी उलोवंक येताली, पूण भोव थोड्यांक प्रमाण जर्मन वाचूंक वा बरोवंक येताली. आयजूय हे परिस्थितींत व्हडलोसो बदल जावंक ना. आयच्या आठ वर्सां पिरायेच्या आल्सासाच्या भुरग्याक एक थळावी जर्मन बोली बरे तरेन उलोवंक येता आनी शाळेंतल्यान फ्रैंच भाशेचेरूय ताणें प्रभुत्व मेळयल्लें आसता. आल्सासाच्या लोकांक हे भाशेन दोन दोन भासो येतात. दोन दोन भासो आल्सासांत घोळटात. पूण तांचे भितर ऊंच-उणाकपणाचें नातें पळोवंक मेळटा. फ्रैंच 'वयल्या' मळाचेर घेळटा आनी जर्मन 'सकयल्या' मळांचेर दिश्टी पडटा. आयच्या आल्सासांत प्रमाण जर्मन बोलयेचो वापरूय भोवच उणो जाता आनी थंयची नवी पिळगी फ्रैंच भाशे कडेन, फ्रैंच अस्मिताये कडेन एकरूप जाल्ली पळोवंक मेळटा. देखून, जाणकारांच्या मत्तान, आल्सासूय एकभाशीक वाटार जावपाचे वाटेन वचून लागलां.

(संदर्भ: Languages in Competition: Dominance, Diversity and Decline – Ronald Wardhaugh 1987. Basil Blackwell, London: 111-113.)

३. हो पुर्तुगालचे उत्तरे कडलो वाटार. गालिशियन येवरोपांतली सुमार तीस लाख लोकांची एक अल्पसंख्यांक भास. भाशीक नदरेन गालिशियन पुर्तुगेजिची सगळ्यांत लागींची भयण-भास. १५व्या शतमानांत कार्श्तेलियन लोकांनी गालिशियन भाशीक वाटार घेतलो तेन्ना गालिशियन भाशेचो पुर्तुगेज भुंये कडलो संबंद तुटलो. पुर्तुगेज भुंयेर पुर्तुगेजिचो विकास जायत गेलो. इल्लें इल्लें करून तिचें प्रमाणिकरणूय जालें. पूण पुर्तुगाला भायर गालिशियन भास फाटींच उरली. कार्श्तेलियन भाशेच्या शेका तळा ती फकत जिबे वयली बोली म्हूण जियेवंक लागली. आयज ही भास आपणाल्याच नीज वाटारांत स्पॅनिश भाशे कडेन खालतेपण घेवन जियेता. आपणाली भास हे डायग्लॉसियेंतल्यान भायर येवंक जाय अशें गालिशियन भाशिकांक हालीं हालीं दिसूंक लागलां. गालिशियन भाशेंत आयज कांय जाण बरोवंकूय लागल्यात. (बरपांतली गालिशियन खंय पुर्तुगेज कशीच दिसता.) पूण प्रशासन, शिक्षण आनी कायद्याच्या मळांचेर गालिशियन भाशेक तिच्याच वाटारांत कांय सुवात ना. आपणाले भाशेच्या वापराचीं मळां रुंदावपा खातीर वावुरपाची तयारीय आयज गालिशियन भाशीक समाजा भितर तितलिशी दिसना. देखून जाणकारांच्या मत्तान गालिशियन भाशेक व्हडलोसो फुडार ना. (Ronald Wandhaugh 1987: 126,127)

४. Revisualizing Boundaries – a Plurilingual Ethos – Lachman M. Khubchandani, (ed. U.N. Singh, P. Dasgupta), Sage Publications, New Delhi 1997) ह्या पुस्तकांतलो तागेलो Indian Diaglossia (132-148) हो लेख मुजरत वाचचो.

५. L.M. Khubchandani 1997: 136, 137.

# कोंकणी अस्तुरी साहित्यिकांच्या साहित्यांतली अस्तुरी – एक नियाळ

**प्रियदर्शिनी तडकोडकार**

आयज २१व्या शतमानाच्या हुन्यार उबीं आशिल्लीं आमी काळाचें एक नवें पेणें हुपून मुखार वचपाक भायर सरल्यांत. फाटलीं दोन शतमानां संवसारीक पांवड्याचेर म्हत्वाचीं मानतात. भारतीय समाजजिविताच्या संदर्भातय ह्या दोन शतमानांक खूब म्हत्व आसा. ह्या शतमानांत जीं सामाजीक परिवर्तनां जालीं तातूंत भारतीय अस्तुरीच मध्यवर्ती थारल्या. घोवाच्या मरणा उपरांत बोडकी जावपी आनी उपेक्षेची जीण जगपी, सती वचपी, अनाम बायल ती आयची बुकर पुरस्कार मेळोवपी अरुंधती रॉय, विश्वसुंदरी जावपी ऐश्वर्या राय आनी युक्ता मुखी – हो भारतीय बायल-मनशेचो प्रवास आमकां साहित्यांतय दिश्टी पडटा. ह्या काळांत बायलांची परिस्थिती बदलली तशी बायले कडेन पळोवपाची समाजाची नदरय बदलली. तिचे विशीं स्वतंत्र विचार करपाकय सुरवात जाली ती ह्याच काळांत. आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार खासा अस्तुरेकच आपणाल्या अस्तित्वाविशीं, तांकी विशीं आत्मविश्वास आयलो तोय ह्याच काळांत. काळांत जायत गेल्ल्या बदला प्रमाण अस्तुरेचे प्रतिमेंतय बदल जायत गेलो तो ह्याच वेळार.

साहित्य आनी समाजाचो संबंध सामको लागिंचो. बरोवपी आपणाल्या साहित्यकृतींतल्यान समकालीन सामाजीक परिस्थितिचेर भाश्यच करता. इतलेंच न्हय तर ताचेकडेन आशिल्ले मुखावयलें पळोवपी नदरेक लागून तो फायच्या वास्तवा विशींय कांय अंदाज काडटा. समकालीन परिस्थिती बरोवप्याक – ताच्या साहित्याक घडयता काय, ताच्या बरपांतल्यान येवपी आदर्श, नवे विचार आनी व्यक्तिरेखा समाजाक वळण दितात हाची जाप दिवप कठीण. पूण बरोवपी आनी समाज एकामेकांक स्फूर्त दितात इतलें मात खरें.

कोंकणी साहित्यांत बायल साहित्यिकांनी दिल्लें योगदान हो आयचो आमचो विशय. कोंकणींतल्या नागरी लिपयेंतल्या बायल-बरोवप्यांच्या साहित्यांत आयिल्ल्या अस्तुरेच्या रुपांचेर उलोवपाक हांव तुमचे मुखार उबी आसां.

कोंकणी समाजांतली बायल आनी तिचें साहित्यांतलें रूप आमकां दोन वांट्यांनी पळोवंक मेळटा. हे दोन वांटे काळाप्रमाण जाल्यात तशेच ते तिच्या समाजांतल्या सुवाती वेल्यानय जाल्यात. हांगा सोयीखातीर आमी गोंयचे मुक्ती आदली अस्तुरी आनी गोंयचे मुक्ती उपरांतची अस्तुरी म्हणुंया. ह्या दुसऱ्या वांट्याचेय आनीक वांटे जाल्यात. २०व्या शतमानाच्या उत्तरार्धांतल्या पयल्या काळांतली अस्तुरी आनी ह्या शतमानाच्या निमाणच्या पर्वांतली, पूण २१व्या शेंकड्याच्या दारांत ताच्या येवकाराक उबी आशिल्ली अस्तुरी.

ह्या दोनूय चित्रांमदीं जायतें अंतर आसा. आदल्या काळांतली बायल अशिक्षीत, अडाणी, रुढी, समजुती, परंपरा हांच्या जोखडाखाला अंदून गेल्ली पिचून गेल्ली अशी आशिल्ली. ती दादल्याच्या समाजांत सगळ्या तरांचे अन्याय मोन्यांनी सोंसत रावपी, आनी दादल्यांच्या समेस्त रुपांखाला दबून गेल्ली, भियेल्ली पूण संवसाराच्या जंजाळांतल्यान आपणाले जिणेचें, घराब्याचें तारूं व्हडे कुशळतायेन धुकलून तडीक लावपी बायल आशिल्ल घडीघडी आपणाली सहनशीळताय कसाक लायत, जिणेवांगा, समाजावांगडा आनी आपणाल्या भावनां वांगडा झुजत झुजत आया समाजांतली आपणाली ही सुवात तिणें जोडल्या. पूण ते खातीर ता ती आयचे सारकी बंड करून उठनाशिल्ली. परिस्थितीन जर्जर जाव मोन्यांनी सोंसपी, संस्कारशील अस्तुरी ह्याच तेंपार आमकां दिसता.

दुसऱ्या अर्दांतली अस्तुरी शिकिल्ली, शिक्षणाचें म्हत्व समजून घेतिल्ल देखून मातशी जागरूक, स्वाभिमानी, स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाची आनी आपण अस्मितायेची वळख जाल्ली अशी दिसता. ही संस्कारशील आसाच. ति घराचीं, परंपरेचीं समाजाचीं बंदनां फटाफट तोडून उडयनशीं दिसना तिचे भितर सोंशिकताय आसा. तिचे मुखार ध्येयां, आदर्शां आसात. समाजे नीतिमत्तेचें आनी मूल्यांचेंय धंगण तिका आसा. ते भायर समाजांतले आपण सुवाते विशीं ती जागरुकूय आसा. तातूंत तिका बदल जाल्ले जाय तांचें स्वरूप तिका आकळूंक नाशिल्ल्यान ती गोंदळून गेल्या. अशा वेळ अस्तुरेचे दुबळे कुडिचो, असहाय अवस्थेचो गैरफायदो घेवपी समाजांतल दरेका घटकाची तिका मना सावन तिडक येता. पूण तांचेर ती बंडखोर झुटून वचना. वा आपणावेलें नैतिकतायेचें बंदनय रागान वा किंवाट्या शेंवटून उडयना. थोडे भितर, आपणाल्यो प्रतिक्रियाच दाखयना.

पूण हालिंची अस्तुरी वेल्या रुपां परस वेगळी. वेल्या पारंपारीक रुपांपर तिचें रूप वेगळेंच थारलां. तें केन्ना मोहमयी दिसता जाल्यार केन्ना भयांकृ विकृत अशीय दिसता. आयची अस्तुरी सुशिक्षित जाल्या पूण असंस्कारशी उरल्या. ती आपणाल्या मना परस रुपा विशीं चडच जागरूक जाल्ल नैतीक बंदनांक वेव्हार म्हूण पळोवपी, बंडखोर पूण निती-अनितिची व्हडली पर्वा नाशिल्ली, केन्ना केन्ना स्वैराचारी अशी आनी त्या स्वैराचाराचें समर्थ करपी अशी जाल्ली दिसता.

समाजांत भोंवतणी दिसपी बायलेच्या ह्या परस्परविरोधी रुपां कड आनी तिच्या मनाच्या आनी नात्यांच्या भौपोडी तासां कडेन पळयतव बायल साहित्यिकांनी साहित्यांतले बायलेचे प्रतिमेक कितलो न्याय दि आसत हें पळेतना दिसता तें अशें – 'अनंत काळची माता' थारिल्ल बायल आपल्या आदिमातेच्या अनंत रुपांनी साहित्यांत अवतरल्या. ता खिणयाळ्या सुखा खातीर कुडिचो वेव्हार करपी सामान्य बायल म्हुण आयल्या. हिणसावणेची धनीण जावन आयल्या तशी दुर्गा जावन शे गाजोवपी म्हुण्णूय आयल्या. समर्पिता तशी वैरागीण, मोगिका तशी कुळव घरची रसणाय थारल्या. विरहान आकुळपिकूळ जाल्ली तशी भुरग्यांच मोगान आनी हुसक्यान थपथपलेली वात्सल्यासिंधूय जाल्या. चतुरा म्हणुन आयल्या आनी भोळी गाय जावनय आयल्या. ही तिचीं साबार रुपां कोंक बायल साहित्यिकांनी कशे तरेन पडबिंबीत केल्यांत तें आतां पळोवंया.

अस्तुरेची खरी प्रतिमा सोदची ती कोंकणी काव्यांतल्यान आ कथेंतल्यान.

कवितेच्या मळार गोंय मुक्ततताये आदल्या कवयित्रीं मदीं पयलें न

..कपणान झळकता तें विजयाबाय सरमळकार हांगेलें. तांचे कविते विशीं ..यतना कवी मनोहरराय सरदेसाय 'गोटलां' कविता-झेल्याचे प्रस्तावनेंत ..णटात – ''बायलांचें दुख्ख चड, तितलेंच तांचें सुखय व्हड. तांचो ..सार भावनांनी भरिल्लो. जीवनाकडेन तीं काळजाचे नदरेन पळेतात. ..मोगान फुलतात, रागान जळतात आनी द्वेसान सुकतात.'' बायलांच्या ..च रुपांचें चित्र विजयाबाय सरमळकार पितारतात. देखून तांचे कवितेंत ..गाचो विडो' रंगता. आनी 'साकरपुडो' थारिल्ली चली 'केन्ना साकरपुडो' ..वेचारतकच मनांतल्यान मुरगुट्टा तें सभावीक दिसता. आपणाले प्रस्तावनेंत ..देसाय मुखार म्हणटात – ''दादल्यांची लिखणी संवसार जिखून आयली ..ी घराच्या हुमऱ्याकडेन पावतकच थारता. मागशेता. विजयाबायचे ..खणेच्या जैताची सुरवात रांदचे कुडिंतल्यानच जाता.'' म्हळ्यार, तिचे ..खणेची मेधा 'रांदची कूड' अशें कवी म्हणटा खरें, पूण तशें म्हणटना ..चें विश्व, तिचीं भौरंगी रुपां आनी तिची समाजाविशीं आशिल्ली बांदिलकी ..तले विविधतायेन आनी प्रभावीपणान आयल्या हें ते विसरल्यात काय ..लो प्रस्न पडटा. रांदची-कूड तिची मर्यादा आसुनूय तेदेवेळच्या हेर बायलां ..ेन ती तांतुंतूच मुंगरून पडूंक ना. ती स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाची व्यक्ती ..ग 'गोटलां'तल्यान तितलेच तांकीन उबी जाता. देखूनच आवयभाशेचे ..गतिचोय हावेस ती बाळगिता हें विसरूंक फावना.

..विजयाबाय बरप करताली तेन्ना गोंयचे सामाजीक परिस्थितींत ल्हवू ..वू बदल जावपाक लागिल्ले. ह्या बदलाचें पडबिंब विजयाबायचे कवितेंत ..ष्टी पडटा. गोंयच्या समाजांत तेदेवेळार आशिल्ल्या बायलांची स्थिती ..ती करपाक ही गवाय पुरो. स्थिर भाटकारशाय भोगपी, सुशेगाद जीण ..पी गोंयकार गोंयांतल्या राजकी आनी आर्थीक बदलाक लागून उचांबळ ..ल्लो. कोंकणीचे उदरगतिच्या कार्याक चळवळिचें रूप येवपाक लागिल्लें. ..स्तुरी शिक्षणाचें म्हत्व कळिल्ल्यान जायत्यो चलयो शिकपाक लागिल्ल्यो. ..य नोकऱ्योय करताल्यो. प्रौढ विवाह रूढ जायत गेल्ले. आनी मोग ..रून लग्नांय जावपाक लागिल्लीं. हे प्रक्रियेंतल्यान वचपी गोंयची नवशिक्षीत ..स्तुरी विजयाबायन आपणाले कवितेंतल्यान पुराय सामर्थ्यान उबी केल्ली. ..च्या मनांतलीं झुजां, हुंवार विचूकतायेन दाखयल्ले. पूण ही अस्तुरी ..कून नवो विचार घेवन आयिल्ली आसुनूय तिचो समाज पारंपारीक ..चारां खालाच आशिल्लो. देखून कंवळे चलयेक आदर्श नारी जावंचेलो ..देस कवयित्री करता तेन्ना अजाप जायना. सुखी जिविताचीं सपनां ..वपी 'साकरपुड्यां'तलीं नाजूक चली जेन्ना विधवापणाच्या उज्यान हुलपता ..ा निस्तेज जाता. 'काळजांत यादस्तीचे दुखां पिले' सांसपीत बसता. ..ा तीस-चाळीस वर्सां आदलो गोंयचो समाज आनी तातुंतली बायलेची ..ण उबी जाता.

..विजयाबाय सोडल्यार ह्या काळांत आनीक कोणेंच कवयित्री म्हूण खास ..प उठोवंक ना. पूण गद्यलेखिका म्हूण गोदूबाय केळेकार, लक्ष्मीबाय ..देसाय, कुमुदिनी केळेकार, कमलादेवी राव देशपांडे आनी लीला गायतोंडे ..चो साहित्यमळार वावर चलतालो.

१९७० उपरांत संवसारांतल्या साबार मळांचेर क्रांती जाली. हाचे पडसाद ..गांतय उठले. १९७५ वर्स 'स्त्री-मुक्ती वर्स' थारलें आनी संवसारभर ..यलांच्यो चळवळी मूळ धरपाक लागल्यो, त्यो वाडिकय लागल्यो. बायलां ..ीं हाका लागून नवें आत्मभान आयलें आनी संवसारभर चालू आशि..्या ..यलांच्या चळवळिंनी तांकां बळ दिलें. त्यो आपणालीं दुख्खां, प्रस्न ..डपाक लागल्यो. बायल आनी दादलो हांचे समानतायेचो आग्रो आनी ..सारभर वेगळ्या वेगळ्या मळांचेर प्रस्थापित जाल्ल्या दादलोप्रधान ..ाजवेवस्थेक तीव्र विरोध अशा दोन तोंकां मदीं बायलांची चळवळ उबी ..शिल्ली. १९७५ उप्रांत अस्तुरेची प्रतिमा मांडपी बरोवप्यांक हे नवे ..रेंतल्यानच अस्तुरे कडेन पळोवन तिका आपणाल्या साहित्यांत उबी करची पडली.

नवे जाणविकायेची, आपणाल्या अस्तित्वाचो साक्षात्कार जाल्ली नवी अस्तुरी कवितेंतल्यान आकाराक हाडली तीं जयंती नायक, प्रशांती तळपणकार, माया खरंगटे, शकुंतला आर्सेकार, नीला तेलंग, शांती तेंडुलकार हांणी. आपल्या व्यक्तिमत्वाचीं तासांच तांणी तेदेवेळच्या कवितांतल्यान उकतायल्यांत. एके वटेन तांचे पिरायेक सोबसारकी मोगाची भास आनी दुसरे वटेन क्रांतिची भास उलोवपी तरणाटी तांचे कवितेंतल्यान येता. म्हणूनच 'मोन्या मोगा'चो 'ध्यास' तांकां लागला. तेन्ना अमुरपिक्या मोगाची भास उलोवपी किशोरी तांचे कवितेंतल्यान उबी जाता. तेन्ना तिका आयिल्लो दुबावय उकतो जाता – 'मातयेच्या वासान / रिगला कोणाचो स्वास? पयसुल्ल्या पाख्याचो / घेतला कोणें अदमास?'

आयज लोकवेदाची विद्यार्थिनी आनी संशोधिका म्हूण जयंती नायकान आपणाली प्रतिमा उबी केल्या. तरी कोंकणी साहित्यांतलो जयंतीचो प्रवेश कवयित्री म्हुण्णूच जालो. आनी उपरांत जयंती कथा लेखिका म्हूण उबें जालां. जयंतीच्या साहित्यकृतींतल्यान आमकां गांवगिऱ्या वाठारांतली कश्टकरी बायल मेळटा. तिचे वास्तव जिणेचें भिरांकूळ चित्रण तें करता. कश्टकरी समाजाची प्रतिनिधी आशिल्ली बायल आपणाल्या 'षंढ' घोवा खातीर वावराडीपण सोंसता, आपली जीण ताचे खातीर झरयता. पुताक 'बाबा' म्हणपाची सत्ता नाशिल्ली बायल पळोवन कवयित्रीक येता तो किंवाटो प्रतिनिधिकच म्हणूं येता असलो. अस्तुरेचे हे परिस्थितिचो विचार करपाक ती लागल्या आनी ताचेर जापय अपेक्षिता – ''२०व्या शतकांतय बी / तिचेर जातल्या ह्या अन्यायांक / जबाबदार कोण? / तिचो षंढ घोव? / हो समाज / काय हो अन्याय / मोन्यांनी सोंसपी ती स्वतः?'' (ती एक वावराडी).

अशेच तरेन समाजाच्या फटकिरेपणाची दखल घेवपी दीपा पै. ताका सूर्य उदेवनय काळोखच दिसता. समाजांत चलपी अन्याय, अत्याचार, हांवपण आनी पोक्यो बडायो मारपाची वृत्ती पळोवपाची तांक आतांचे अस्तुरेंत आयल्या. आनी तातुंतल्यान भायर सरपाची गरज आनी तयारी तिणें दाखयल्या. तें म्हणटा – ''जेन्ना आमी पोक्यो / बडायो विसरून / हावेसान वावुरतले तेन्ना / आमकां उजवाडाची गरज लागची ना / आमीच सूर्य जावन / पेटूंक लागतले / आनी खरेल्या सूर्याक आमची नसाय जातली.''

ही जाली विजयाबाय उपरांतचे पिळगेची अभिव्यक्ती. सामाजीक परिवर्तनाचें वारें गोंयांतय पाविल्ल्याची गवाय दिवपी अशी. ह्या तेंपावेल्यो बायलो दादलो-बायल असो भेद करी नासतना समाजाच्या मुखार आशिल्ल्या आव्हानांक प्रतिसाद दिवपाचें काम करतात. आतां ती आदली लजेव्हंकल उरूंक ना. आतां ती हुमऱ्या भितर तिश्टत उबी रावन थंयच्यानच 'सरात फुडें' म्हणिना. तिवूय आतां झुजामळार देंवल्या. आनी दादल्याच्या खांदाक खांदो तेंकयत ताच्या सांगातान फुडें गेल्या. हे पिळगेंतल्या कवयित्रिंनी समाज बदलपाकच जाय हें वळखून ते विशिंची आपली जाणविकाय मोठे राक्षगतायेन मांडल्या. ते भायर दिसपट्टे जिणेंतली घालमेल आनी दोट्टी जापसालदारकी सांबाळटना आवय म्हूण जाता ती परवड ह्या तेंपावेल्या कवयित्रिंनी चितारल्या. नूतन साखरदांडेची कविता वाचतकच हे विशिंची प्रखर वास्तवताय उत्कटतायेन आकळटा. आनी केन्ना केन्ना अशेंय दिसता, स्वतंत्र बायल म्हूण जगतना तिणें नसत्या सामाजीक बंधनांत आनी फटकिऱ्या प्रतिश्ठेच्या बंधनांत आपणाक शिरकून घेवंक ना मू? नूतन साखरदांडेन आवयच्या रुपांतली नारी वात्सल्याची म्हूर्त म्हूण रंगयल्याच. पूण आपणाल्या माणकुल्यांक समजायतना ती जो उपदेश करता, आपणाक समजून घे म्हणटा, तेन्ना तिची अवतिकाय पळोवं नजो जाता. तें म्हणटा – ''म्हाका आवय म्हणून घेवंक लज दिसता / कारण आवयची माया तुमकां दाखोवंकच

शकलें ना.'' ही कबुली दितना मुखार तीच आवय म्हणटा – ''तुमी म्हर्जी सपनां पळोवं नाका / हरशीं ना जाल्यारूय हांव / तुमचे पासून पयसूच आनी म्हऱ्यांत आसूनय / हांव तुमचे पासून पयस.'' हें सांगतना आयच्या गोंयांतले आधुनीक बायलेचें चित्रच प्रातिनिधीक रुपान आयिल्लें दिसना? आपूण बदलतां आनी बदलूंक जाय हें तिका कळटा पूण त्या बदला फाटल्यान आशिल्ली गुन्यांवकारी भावना तिका आजुनय समाजाचे संस्कारशिळतेंतल्यान पयस सरपाक दिना ही गोंयचे अस्तुरेची विशेशताय. तिका संवसारांतल्या समेस्त स्त्रीवादी अस्तुऱ्यां सावन वेगळायता. तिचें विधायक रूप दाखयता, आनी बायलेचीं क्रांतिकारी रुपां तिचे जिणेच्या नाजूक, भावविभोर रुपांसयत तितलेच तांकीन उबीं करता. तिचे विशिंचो आदर वाडीक लायता.

२०व्या शतमानांतल्या ८व्या दसकांतल्या कवयत्रिंच्या कवितांच्या स्वरुपांत बायलेचें बदलिल्लें रुपडें दिसलें तरी तिच्यो बायलमनशेच्यो कुरवो पुसूंक नात म्हणपाचेंय कळटा. अस्तुरी शिकली, आपल्या पांयांर उबी रावली जाल्यारय तिका योग्य सांगात्याची गरज आसताच. देखून असो सांगाती सोडून काडूनय तिका भिरांत दिसता 'तो' आपणाक मोगान फटयत हाचो. कारण ''मियां एक गरीबाचा पोर आसा / तुज्या आवशीकडल्यान / तुका विकत घेवंक / माझ्याहार पैसो नाय आसा'' ह्या प्रशांती तळपणकाराच्या उतरांनी वास्तवाचे भुंयेचें भान बाळगुपी आयची तरणाटी दिसता. हेय परिस्थितींतल्यान वाट काडून 'मेथयेन रंगयल्ले पांय उडयत' जयंती नायकाची 'व्हंकल' येताच आनी 'सत्याचे खर हुलप' सोंसूंक जायना जावन कुळारचे मायेची याद करत रावता. 'कुळारा' आईचे 'मायेची गोजडी' पांगरुपाक आंवडेता ती कुंदा पैचे कवितेंतली अस्तुरी. तिची अवतिकाय अदीक स्पश्ट उतरांतल्यान प्रतिभा पै फोंडेकारान मांडल्या. ''संवसाराच्यो बेडयो घालून / मंगळसूत्रान माल्लो गळ्याक फांस'' हे वस्तुस्थितीक सामकारा वचुनय ''मोर्नी चाकां चलोवपाची'' तिची तयारी अस्तुरेच्या सोंशीकपणाचीच वळख दिता. पूण आपणाक पुरायेन शरणांगत करुनय हीच अस्तुरी दुसऱ्याच्या उपकाराचेर जगपाक तयार ना इतली स्वाभिमानीय बी दिसता ती नीला तेलंगाचे कवितेंतल्यान.

बायलेची जल्माची सार्थकताय आवयपणांत. तिचे हे अवस्थेचें वर्णन कवितांनी येवंक ना जाल्यार अजाप. देखुनच साबार जाणांनी कोंकणी अस्तुरेक आवयच्या वेगळ्या वेगळ्या रुपांनी केळयल्या. आवय जाले बगर आवयपणाचें सूख समजूंक कठीण. आपणाल्या भुरग्याक खेळटना पळोवन धादोशी जाल्ले आवयची तुळा कोणाच कडेन करूंक येना. अशी घराच्या हुमऱ्यार बसून आंगणांत खेळपी दोगां भांवडांक नियाळपी आनी तृप्त जावपी आवय तिच्या विंगड विंगड रुपां सयत कोंकणींत आयल्या. पूण हींच भुरगीं चड जायत वतकच संवसाराचो गाडो धुकलना. निर्शेणी पातळटा आनी उमेदीन भरिल्ली जीण कटकटिची जावन ''तिचे जिणेची फांतोड उजवाडटा / घोवाच्या धेंगशांनी / आनी रात जाता भुरग्यांच्या हुयेलींनी.''

मुक्तताये उपरांतच्या पयल्या दोन तीन दसकांतल्या कवितांतल्यान दिसपी अस्तुरेचीं हीं रुपां. ह्या कवितांतल्यान बायल उबी जाताच पूण नव्या समाजाचे कवयित्रिची बायलां कडेन पळोवपाची नदरूच तांतुंतल्यान उकती जाता. कोंकणी अस्तुरेचें आत्मभान ''म्हाका आतां एकाच दोळ्यांत / आख्खो संवसार दिसता'' अशें म्हणपा इतलें विस्तारलां. पूण तशें आसुनय संवसारांत बायलांक जी दुय्यम सुवात आयजय आसा ते सुवातेर रावनूच हांतुंतल्या चडशा बायलांनी अस्तुरी रंगयल्या. देखून ती येता मोगिका म्हूण, आवय म्हूण, बायल म्हूण. तिचीं प्रिती अनुरुक्ती आनी विरक्तिचीं रुपां मेळटात तीं दादल्याक केंद्रस्थानी दवरून अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. बायलेचे कुडी कडेन संबंधीत अणभव, तिच्या मनीसपणाची जाणविकाय, निर्णय घेवपा विशीं तिका आशिल्ली सकयली सुवात, तिच्या श्रमांक मेळपी कुस्कुटाचें मोल, मोगाची उपेक्षा ह्या साबार गजालिंचें चित्रण आयलां तें पुरुशप्रधान समाजाच्या बंदनांतल्यानच. आयज मेरेन बायल हातुंतूच सार्थकताय मानताली जावंये. पूण तरी समाजांतल्या खंयच्या तरी पांवड्यार बायल बदलत गेल्ल्याच्यो कुरवो मेळटात. माया खरंगटेचे कवितेंत बदल्लेले बायलेचें वर्णन आयलां. ''ही जागी जाल्ली बायल'' – ''ती कलयुगांतली सीता / माथ्यार अन्याय घेवन / धर्तरेच्या पोटांत लिपचिना / ही जागी जाल्ली आयची बायल / देवपण घेवंक फुलांत घुस्मटत / देवाऱ्यांत बसून रावची ना'' अशें ठणकायता तेन्ना बायलेची बायलांनी रंगयल्ली दुसरी बाजू दिसता. ही बायल वेव्हारी, शादूर, घरच्यांच्या कल्याणाचो हुस्को करत आपणाले कुळारचे ओडीन, भुरगेपणाच्या यादिंनी, गांवचे ओडीन घुस्पून राविल्ली दिसता. इबाडिल्ले परिस्थितिची खंत ती काडटा. आनी 'चौकटींतलें चित्र' बदलपाक जाय अशें म्हणटना कोंकणी अस्तुरेचे प्रतिमेचेर मार्मिक भाश्य करता. ''आतां हें फास्केंतलें चित्र / सगळें बदलूंक जाय / तिच्या मस्तकार फकत तिच्याच संवसाराची न्हय / तर विश्वाच्या जापसालदारकेची रेखा मांडूंक जाय.'' ''तिच्या ओंठार / क्रांतीचीं उतरां घालूंक जाय... तिका बंदखणींतल्यान / मेकळी करा आनी हातांतली लाटणी सोडून / अन्यायाविरुद्ध लडपाची / पेटटी मशाल पितारात'' अशें म्हणपी अमिता सुर्लकाराची बायल निखट्या बायलपणांत धन्यताय मानपी रांदचे कुडिंतच उरल्या अशें कोण म्हणत?

कोंकणी कवितेंतल्यान आयिल्लें अस्तुरेचें चित्रण पळयतकच गद्यांत अस्तुरी कशे तरेन उबी जाल्या हें पळोवप समा जातलें. मनीसजिणेचें समग्रतायेन वर्णन येता तें नवलकाणयेंतल्यान आनी नाटकांतल्यान. कोंकणींत नाटककार बायलमनीस आडवादानच आयल्या. कमल कामत हांचें 'आंदळो मागता एक दोळो' हें नाटक सोडल्यार आनीक दुसरें नाटक ना. मीना काकोडकार, ज्योती कुंकळकार हांचें एकांकी लेखन आडवादीच. देखून ह्या साहित्यप्रकाराचो हांगा विचारच करूंक ना. पूण कथा आनी नवलिकेच्या मळार मात जायत्या बायलांनी बरप केलां आनी कथाकार म्हूण, नवलिकाकार म्हूण नामना जोडल्या. मीना काकोडकार, जयमाला दणायत, शीला कोळंबकार, हेमा नायक, जयंती नायक, सुधा खरंगटे, सुरेखा तोटेकार, विजया पै धुंगट हांणी फाटलीं कांय वर्सां आपणाली उपस्थिती जाणोवन दिल्या. ह्या कथांतल्यान बायलांच्या सभावाचीं साबार तासां दिश्टी पडटात. पोरण्या संस्कारांत वाडिल्ली बायल, आवयपणाचे साबार उतळताप सोंसपी बायल, समाजाचे निती आड वचपी आपलीं भुरगीं पळेतकच खंती जावपी आवय (तळमळे) अशीं आवयचीं कितलिंशींच रुपां, जाल्यार लग्नाक आंवडेवपी चली, मोगांत पडिल्ली, मोगांत फटवल्ली, आगळ्या कर्तुत्वाक लागून वेगळेपणान उठून दिसपी चली (भूंयचाफीं), समाजाचे अनैतिकतायेक बळी पडिल्ली चली, जाती भायल्या चल्या कडेन बापायच्या विरोधाक बद नासतना लग्न जावपी चली (अंदळ्ळे स्वास), लग्न जावचेली इत्सा आसुनूय समाजवेवस्थेक लागून खालतेपणाची सुवात सांबाळीत जल्मभर सोंसत रावपी तुळशी (वाऱ्यावेलें सपन - शीला कोळंबकार), 'दवरिल्लें', 'भाणशिरें' हीं विशेशणां आयुश्यभर सोंसपी भावीण, घोव मरतकच जीण जगपी विधवा (पोरसूं परत फुलता - हेमा नायक), आवय-बापायच्या अत्याचारा पोंदा आनी बेजबाबदार वागणुके खाला चिड्डून, अंदून गेल्लें मॅगी (मॅगी), पैशाचे आनी परिस्थितिचे भकीक पडिल्ली रोमा (रोमा - ज्योती कुंकळकार), आनी त्यागाचें प्रतीक जावन कोंकणी कथेंत उबें जाल्लें 'रक्तबंबाळ पावलां'तलें गंगा ह्या साबार रुपांनी अस्तुरी कथेंत आयल्या. तिचीं हीं प्रातिनिधीक रुपांच म्हणपाक जाय. तिचे बगर संवसार जसो अर्दकुटो तशेंच साहित्यय. देखून तिच्या चित्रणाक म्हत्व आसा.

वेल्या साबार साहित्यिकांनी आपणाल्या साहित्यांतल्यान अस्तुरेक

र्ती दवरून तिचें चित्रण केलां तें तिची समाजांतली आनी कुटुंबांतली
शट भुमिका मतींत दवरुनूच! देखून ही अस्तुरी आवय, इश्टीण,
, वावराडी, विधवा, धूव, विद्यार्थिनी, परित्यक्ता अशा रुपांतल्यान
टी पडटा. हातूंत ती जशी आदर्श, नीतीमूल्यांची पर्वा करपी, कर्तव्यदक्ष
पितारल्या तशीच वायट, दुश्ट, अनैतीक चलणुकेची, स्वतंत्र बुद्धिची,
क, आपणाल्या अस्तित्वाक जपपी, आपणाल्या रुपाचो गर्व बाळगुपी
ी बंडखोरय दाखयल्या. भावनाविवश, त्यागी, दायजान चलून आयिल्ल्या
नांक मोन्यांनी पाळो दिवपी असहाय अस्तुरी प्रसंग आयल्यार सगळ्या
नांक खोंटायता. तें करतना समाजांतलो अन्याय, अत्याचार पयस करपाची
खोर वृत्ती, धिटाय दाखोवपी बायल कवितेंतल्यान आयली तशीच
तल्यानय आयली. हेमा नायकाचे 'पसयें'त दादल्यांच्या अन्यायाक,
जबरेक, अत्याचारांक बळी पडिल्ल्यो चलयो / बायलो येतात. पूण त्यो
अत्याचाराक मोन्यांनी सामखारा वचपी भिजूड नात. त्यो वेळ येतकच
ल्याक आव्हान दितात. तांच्या अन्यायाक वाचा फोडटात. बायलेच्या
ा बदलाची सुलूस दिवपी ही कथा अस्तुरेचे पारंपारीक प्रतिमेक वेर
ा. ती शीला कोळंबकाराचे 'जाय तसले जिणें'तल्यानय दिसता. तिचें
न दादल्यांक 'दवरता', आपूण दादल्यां भशेन जीण जियेता. 'सीमा'य
ंच. 'राजकी दादा' सांगातान रावन आपणालें वेगळेपण राखपी हीं
त्रां आडवादानच आयलीं जाल्यारय बायलेचें नवें रूप दाखोवपीच अशें
ूं येता.

निमाणे कडेन कोंकणी नवलकाणयेचो थोडोसो नियाळ.

कोंकणींत ह्या मळार बायलांनी व्हडलिशी निर्मणी करूंक ना. पूण हेमा
यक, शांता खांडेपारकार आनी ज्योती कुंकळकारान बरयिल्ल्या नवलिकां
न आनी तांतुंतल्यान येवपी बायलेचे प्रतिमे कडेन आडनदर करूंक
ा 'अस्तुरीमृग', 'निर्बळा आनी मुक्ती' आनी 'भोगदंड' हो हेमा नायकाचे
लकाणयेचो प्रवास. स्त्रीमुक्तीवादी विचारांचो सारको ध्यास घेतिल्ल्या
ाक अस्तुरेचेर जाल्ले अत्याचार आनी अन्याय जळामळा दिसतात.
ा तिका न्याय मेळपाक जाय हो ताचो मनापासूनचो आग्रो. ताची हीच
ारसरणी दो. हळर्णकार 'अस्तुरीधार्जिणी वाटचाल' म्हूण वर्णितात.
च्या बायलांक अधःपतनाच्या भंया पसून पयस दवरपाचें आनी सावध
पाचें काम हेमाचे नवलिकेंतल्यो नायिका (सपना, जेमा बी) करतात.
शप्रधान संस्कृतिच्या संस्कारांत वाडिल्ल्या आनी घुस्मटमार सोंसपी
स्तुरेच्या सगळ्या अवस्थांचें चित्रण तातूंत येता. ताची नायिका ह्या
स्मटमारांक लागूनच रुढीग्रस्त जीण जगून निर्शेल्ली आनी मनांत खंती
यत जगतना दिसता (सपना, निर्बळा) जाल्यार अधःपतनाचे गर्तेंत
डेल्लें 'भोगदंडां'तलें जेमा भारतीय कुटुंब व्यवस्थेची विटंबना दाखोवपी
नी भोगवादी अतृप्ततायेचें प्रतीक म्हूण उबें जाता. तेन्ना तातुंतल्यान
ागटपी लेखिका नैतिक अधःपतनाचो कळवळो धरपी अशी दिसता. हें
धःपतन जावपाक जापसालदार खंयचोच सामाजीक, मानसीक, सांस्कृतीक
ल न्हय जाल्यार समग्र समाजाचो दृश्टिकोण. म्हळ्यारच गोंयचे समाज
स्थेंत आनी ताच्या घटकांत आशिल्लीं उणाकपणांय हांतुंतल्यान दिश्टी
डटात. जेमा सारकी चालय बी समाजाचीच निर्मणी अशें म्हळे बगर
ूं नजो.

ज्योती कुंकळकाराले 'पाशाण कळयें'तय निमाणे कडेन कुडिच्या सुखा
टयां गेल्ली नायिका अनुष्का, तिची प्रतिमा वास्तवतायेचेरच आदारून
ायल्या अशें धरल्यार आधुनिक बायलांचे मानसिकतायेंत आनी परिस्थितींत
ाजुनय व्हडलोसो बदल जालाशें दिसना. ह्या नवलिकांनी शृंगारांतच आनी
तीक सुखांतच धन्यताय मानपी नायिका आयल्यात. त्यो आधुनिक
माजाचें प्रतिनिधित्व करतात अशें मानलें जाल्यारय मुखावेल्या २१व्या
तमानांतले अस्तुरेच्या चित्रणाची ती बुनयाद म्हूण येत. हाचे मुखावेल्या
अस्तुरेच्या चित्रणाखातीर केल्ली ही बसका अशें म्हणूं येत व्हय?

कोंकणीच्या मळार आयजूय साहित्यीक बायलां येतना दिसतात. नयना नाडकर्णी, मेघना वेरेंकार, राजश्री सैल, वरदा गाड केरकार, मंगला शिवदास, मिलन वायंगणकार, उषा नायक हीं कांय नांवां घेवं येतात. हांणी चडसो कवितांतल्यानच आविश्कार केला. पूण तांच्या साहित्यांत नवें विस्तारिल्लें जिवीत येता. देखून 'फास्क्यो' कवितेंतलें राजश्री म्हणटा – ''कोणें घडयल्यो ह्यो फास्क्यो? कारण – हांव तांतुंतले खंयचेच फास्केंत / सारकें बसना.'' हीं आपणाक रेवाडून आशिल्ल्या नात्यां, बंधनां सावन पयस वचपाक सोदतात. आपलो सोद घेवपाक सोदतना तीं नव्या संकल्पनां कडेन वचूंक लागतात. आयज गोंयची अस्तुरी घरांतले 'रांदचे कुडि'कूच आपणालें कार्यक्षेत्र मानिना. ती जिवितांतल्या आनी कर्तुत्वांतल्या वेगळ्या वेगळ्या आनी नव्या नव्या मळांचेर आत्मविस्वासान वावरूंक लागल्या. पोलीस, न्यायदान, वैजकी, कला, संशोधन, अंतराळ, समाजकार्य हातूंत ती चमकूंक लागल्या. नवीं किर्तीमानां उबीं करपाक लागल्या. आदर्श घालून दिवंक लागल्या. तिच्या ह्या नव्या रुपांचें चित्रण कोंकणींतल्यान जावपाकच जाय. तें तशें जावपाक जाय जाल्यार आयजवेर तिची जी प्रतिमा उबी जाल्या ती बुनयाद म्हूण खूब उपकारा पडटली हातूंत दुबाव ना. नव्यो भुमिका सांबाळटना तिचे मदीं जाल्ले मानसीक बदल, तिका सोंसचे पडटात ते ताण, नात्यां मदीं जाता तो बदल खासा ती वा दुसरी एक बायलूच समजुपाक शकतली. अशी ही समंजस अस्तुरी आपणाक जितली अदीक जाणून घेतली तितलीच ती मनीस म्हूण आपणाक आनी हेरांकय अदीक बरी वळखतली.

कोंकणींत आयिल्लें अस्तुरेचें हें चित्र वास्तववादीच अशें म्हणूं येता. कोंकणी अस्तुरी आतां बदलता. २१व्या शतमानाच्या हुमऱ्यार ती पुराय तांकी सयत उबी आसा. त्या शतमानाचीं आव्हानां पेलपाची तिची मानसिक, आत्मिक, बौद्धीक आनी आर्थिकय तयारी आसा हाची गवाय हे प्रतिमेंतल्यान मेळटा. पूण आमच्यो अस्तुरी बरोवपी स्त्रीवादाच्या वादांत नात. स्त्रीवादाची संवसारभर आशिल्ली चलती पळयल्यार आनी बायलांची कैफियत मांडल्यार आपणाक प्रसिद्धी, सिद्धी मेळटली अशो तिच्यो भावना नात. खंयच आक्रस्ताळेपण ना. देखून कोंकणी साहित्याच्या आनी समाजाच्याय फुडाराची ही परमळीत आनी परजळीत अशी संस्कारशील गवाय म्हूण अस्तुरी प्रतिमा उबी जाल्या अशें म्हळ्यार कोणाचो विरोध आसचो ना अशें म्हणन दिसता.

* * *

[२० फेब्रुवारी २००० ह्या दिसा इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांजान घडोवन हाडिल्ल्या 'लेखिका सम्मेलनां'तल्या एका चर्चा सत्रांत वाचिल्लो निबंद.]

# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

म्हाका चिंतेस्त लोकांची कॉमीक दिसता.
ते कित्याक चिंता करतात तेंच म्हाका कळना.
चिंता करप भलायकेचे नदरेन खूब वायट खंय!
चिंता आनी चिता हातूंत फकत अनुस्वाराचो फरक म्हणटात.
पूण हाचेर अजून कोणेंच कशें बरयलेंना काय?
दोतोर हेद्यान ना जाल्यार दोतोर घाणेकारान तरी बरोवपाचें.
तांचीय कितें तरी अडचण जाल्या आसूं येता.
कोंकणींतलें बाबडें एकूच एक दिसाळें
ताचेर हे दोतोर सप्तकांतल्यान एक तरी खेपे बरयताले.
कांय तेंपा आदीं सगळें देवादयेन बरें चलतालें.
खावपी तोंडां उणीं तशे बरोवपी हातूय थोडे आशिल्ले.
पूण हालीं काळार कोंकणी संतत दुपेट-तिपेटीन वाडल्या
हांतले कांय जाण जाल्यार हातांत पेन घेवनूच जल्मतात.
हाका लागून दिसाळ्याचेर दिसान दीस ताण पडत चल्ला.
कुसमणच्या भिकू पसून दिवचल्यो दैनिक बरोवंक लागला.
काणकोणचें फल्ले शेजाऱ्याचो राग पेपरार घालूंक लागलां
देखून पेपरवाल्यांक कितें छापूं आनी कितें नाका अशें जाता
तशें पळोवंक गेल्यार सगळ्यो गजाली पेपराचो खप प्रचंड प्रमाणांत वाडोवपी
तरी संपादकांक कांय लेख मन मारून कुशीक उडोवचे पडटात.
ह्यो राटावळी करता म्हणसर सगळ्यांचेर ताण पडटा, वचत तो चिंतेस्त जाता.
कोंकणी भाशा मंडळाचें कितें जातलें हाची सगळ्यांक चिंता.
कोंकणी अकादमी बोरये बऱ्याक पावतली काय पणजे हाची चिंता.
कोंकणी साहित्य संमेलन कोणें करचें हाची चिंता.
कार्याध्यक्ष मडगांवचो आसचो काय पणजेचो
तो दादलो आसचो काय बायल
तातुंतय तो सारस्वत आसचो काय बहुजन
ह्या साबार प्रस्नांनी जाण्ट्यां नेण्ट्यांक चिंतेस्त केल्यात.
ह्या असल्या चिंतेस्तांची म्हाका कॉमीक दिसता.
म्हाका मात केन्ना कसली चिंता लागूंक नाशिल्ली.
देखून म्हजो सभाव असो फकांडेर जाला जावंक जाय.
फकांडेर म्हळ्यार 'मिष्किल'
पूण हें उतर हांव वापरूंक मात्सो कांचवेतां.
ताचें कारण दोतोर प्रोसोर गॉमिश्.
ताका म्हजी कोंकणी मराठेल्ली कोंकणी दिसता.
हांवें म्हजे म्हाका मिष्किल म्हळो जाल्यार ताची हे विशीं खात्रीच जातली.
म्हजी कोंकणी मराठेल्ली हें प्रोव्हार करूंक ताका हेंच एक उतर पुरो.
देखून हांव 'मिष्किल'चे सुवातेर फकांडेर उतर वापरतां.
पूण हें फकांडेरपद हांव भायल्यान दाखयना
हांव जाणां, म्हाका गंभीर रावपूच बरें सोबता.
म्हज्या एकंदर परिपक्व रुपाक होच 'भाव' बरो दिसता.
मनोहरबाब, रवीन्द्रबाब हांणी मिष्किल रावल्यार उपकारता
कित्याक, ते म्हजे परस पिरायेन खूब भुरगे दिसतात.
तांकां थोडें भुरगेपण चलता. म्हाका न्हय.
हांवें भुरगेपणां केल्यार अनवळखी म्हणटले, ह्या जाण्टेल्याक जालां कितें
काय म्हूण!
तेच पासत हांव हालीं मुखामळार मातशें गांभिर्य दवरतां
पूण वळखिच्या लोकांक दिसता, हांव चिंता करतां
आतां आनी हांवें कसली चिंता करपाची उरल्या?
सगळें ताकून भोगून, पळोवन बिळोवन जालें
दीपा मुरकुंडेचे लेख वाचून सामको तृप्त जालां.
उदर देशप्रभूच्या आंगांतली विरश्री पळोवन धन्य जालां.
ताका पळोवन म्हजे मुखार साक्षात बाजी प्रभू उबो रावलो.
टी.बी. कुन्याच्या मायकाचें पाड पडलें हाची ते मुखार म्हाका खंत न
श्रीधर, संदेश, नित्यानंद, पूर्णानंद बी सगळे संपूर्ण आनंद दिवंक लागल
भास्कर, संजय बी सगळे परतून कोंकणी चळवळींत देंवल्यात
तांचो नवो दम आनी नेट पळोवन हांव निश्चिंत जालां.
देखून म्हणटां, हांवें आनी कसली चिंता करपाची उरल्या?
म्हजें चिंताग्रस्त दिसप म्हळ्यार एका चिंतकावरी दिसप
तरी आसतना हांव हेरांक चिंताग्रस्त दिसप म्हळ्यार विचित्र कशें!
म्हजे भितर कांय मुळाव्यो चिंता आसूं येतात
त्योच म्हज्या मुखामळार उदेतात जावंक जाय.
हालींसराक हांव अंतरमूख जावन ह्यो चिंता सोदपाचो यत्न करतां
तेन्ना मुखेलपणान म्हाका जाणवता ती कोंकणीची चिंता.
म्हजे उपरांत कोंकणीचें कितें जातलें, ही चिंता म्हाका लागल्या.
म्हजें सोडात, हेर म्हालगड्यां उपरांतूय कोंकणीची चिंता आसाच.
येदें व्हडलें कोंकणी भवन जालां. आमचे उपरांत ताचें कितें?
बोरये वचून कोंकणी अकादमीची जतनाय कोण घेतलो-?
कोंकणीचें दायज मुखार व्हरतलों जाल्यार म्हाका भुरगीं नात.
कोंकणीची घुडी जांणी खांद्यार घेतली तांचीं लग्नां जावंक नात.
जांचीं जाल्यांत तांगेर भुरगीं आसून नासून कोंकणीक सारकींच.
तांगेलो एकल्याचोय भुरगो कोंकणीचे कार्यावळीक तोंड दाखयना.
तेंच कित्याक, थोर कोंकणी लेखकांचीं पुस्तकां तांचीं भुरगीं वाचिनात
तीं इंग्लेज धार्जिण्यांच्या भुरग्यांनी वाचचीं अशें तांकां दिसता.
अशा ह्या कठीण काळार म्हाका कोंकणीची चिंता दिसप ना?
म्हाका कसलीच चिंता ना अशें म्हणप म्हळ्यार म्हजीं फटींगपणां.
म्हाका म्हज्या फुडाराची चिंता नासत पूण कोंकणीची आसा.
श्रीधर कामतीक, अग्नीक आसा तितलीच म्हाका आसा.
राजूक, सुशांताक आसा तितलीच म्हाका आसा.
कुसकूटभर उणीय न्हय आनी कुसकूटभर चडूय न्हय.
पूण एक गजाल. हांव हेरां वरी चिंता करीत बसना.
बाबत कोंकणी कुळां वरी हांव गळसणून वचना.
हांवें कोंकणीच्या फुडाराचे चिंतेचेर उपाय सोदल्यात.
गरज पडल्यार बिल क्लिंटनाचीय हांव मजत घेतलों.
हालींच तो भारत भेटेर येवन गेला.
गोंयाकूय भेट दिवपाची ताची इत्सा आशिल्ली.
ती भेट ताची कोंकणीच्या मोगा पासतूच आसतली.
बिल क्लिंटन आयलो म्हूण ताचें बील काय आमकां दिवचें पडचेंना.
कोंकणीच्या नांवान पयशे वापरपाचो आरोपूय जावंचो ना.
कोंकणीची म्हजे तकलेवेली चिंता पयस करूंक म्हजे उपाय अशे—

...ती फुडाऱ्यांचीं भुरगीं सद्या कोंकणी चळवळींत नात.
..., तांचींय भुरगीं आसतलीं म्हणपाची खात्री ना.
... चळवळ चालू दवरपाखातीर वावुरप्यांचें टेंडर मागोवप
...ण उण्यांत उणे रकमेची बोली करता तो कोंकणी मोगी.
...गडाच्या हातान कोंकणी सुगूर उरतली.
... दुडू घेतले तरी तांचे कोंकणी सेवेचो कोणें दुबाव घेवंचो न्हय.
... कोंकणी निष्ठेचो दुबाव घेवपी समजा वांचून उरले
...ार तांणी दुबावा वांगडाच तांचेर विश्वास दवरचो
...ाक, धंद्याच्या मळार कोण केन्ना विश्वासघात करिना.
... सारक्यो वास्तू फुडाराक उबंत पडपाची शक्यताय आसा.
... केरळ, मंगळूर, बंगळूर, मुंबय बी पडल्यात तश्यो.
...असल्यो वास्तू प्रदर्शना खातीर बी भाड्यान दिवंच्यो.
...ल्या वास्तूंत तांणी कसलेंय प्रदर्शन भरोवं येता
...त्या वास्तुंतली एक खोली कोंकणी खातीर दवरूंक जाय.
... कोंकणी चळवळिचीं मोस्त्रां राखून दवरूंक जाय.
...क, कांय लेखकांचीं पुस्तकां, तांचे पुरस्कार आनी फोटे.
...नाक येवपी दर एकल्याक आयोजकांनी तीं दाखोवंक जाय.
... तांचेर सक्ती करप गरजेचें.
... कोंकणी चळवळ आशिल्ली हें इतिहासांत शेणटलें.
...लो आजो कोंकणी फुडारी वो लेखक आशिल्लो'
...जर कोणेंय सांगलें जाल्यार तांकां वास्तुच्या भाड्याचेर सूट दिवंची
...ळगेक मानान आनी भोवमानान वागोवंचें
...णी बरोवपी नाशिल्ल्यान पुरस्कारांचो प्रस्न उप्रासतलो.
...त्य अकादमी पुरस्कार, गोमंत शारदा पुरस्कार उरतलेच.
...ते खंयच्या आनी कोणाच्या पुस्तकाक दिवप हो प्रस्न आसतलो.
... इंग्लेज पुस्तकांत चडांत चड कोंकणी उतरां येतात तांकां ते दिवं
...त.
...जाल्यार नातरांचें कर्तुत्व पळोवन आज्या-पणज्याक ते परतून दिवं
...त.
... ताचीं पुराय अधिकारी नातरांच आसतलीं.
...कार घेतना मात तांणी कोंकणीच उलोवपाची अट घालूंक जाय.
...ाणें आपली आजीभास कोंकणी म्हणपाचो दाखलो सादर करूंक जाय.
...शे कांय मुळावे उपाय घेतले जाल्यार म्हाका दिसता
...णी चळवळ अजरंवर जातली.
...र आपले उपरांत कोंकणीचें कशें हाची कोणाक चिंता उरपाची ना.
...ळे कोंकणी फुडारी चिंतामुक्त जातले.
...नी म्हाकाय ते कॉमीक कशे दिसचेनात.
...यांनीच गंभीर दिसतले. विचारवंत कशे!

* * *

...मनी ऑर्डरीन 'जागा'ची पटी धाडटना संदेश बरोवपी खातीर दवरिल्ले सुवातेर पटी धाडटल्याचें नांव मुजरत बरोवचें.

— वावुरपी संपादपी

### The Little Prince France's book of the millennium

PARIS: *The Little Prince,* an edifying fable written five decades ago by French aviator and author Antoine de Saint-Exupery, is France's top pick as book of the millennium, according to a poll to be published on Tuesday by *Le Parisien* newspaper. The story, a series of parables about a boy prince recounting his adventures among the stars to a downed pilot on earth, grabbed 45 per cent of the vote, nudging out second-placed *The Old Man and the Sea* by Ernest Hemingway, which scored 23 per cent. *The Little Prince* was first published in English in 1943 in New York and did not appear in France until three years later. —AFP

ह्या विश्वसाहित्यांतल्या एका गाजिल्ल्या पुस्तकाचो कोंकणी अणकार

(अणकारपी : माधवी सरदेसाय)




तुमी वाचला?

बरोवप्यानूच काडिल्लीं सोबीत चित्रां आशिल्ली जाग प्रकाशनाची सोबीत उजवाडावणी

मोल फकत ५० रुपया

# माकडाचे दांत

□ अरूण साखरदांडे

खूब गर्दी जमिल्ली
स्टेजीर चडून एक वाक्य उलोवपाची सर्त आसली
हांव स्टेजीर चडलों
हांवें म्हळें – हांव सकाळीं तोंड धुतां
दुसरो स्टेजीर चडलो
ताणें म्हळें – हांव रातचो तोंड धुतां
तिसऱ्यान म्हळें – हांव दनपारां तोंड धुतां
चौथ्यान म्हळें – हांव सांजेचो तोंड धुतां .
पांचव्यान म्हळें – हांव बारांक तोंड धुतां
सव्यान म्हळें – हांव तोंड धुवपाक सकाळचो बारांत वतां
सातव्यान म्हळें – हांव बारा तारकेक तोंड धुतलों
आठव्यान म्हळें – तोंड केन्ना धुवपाचें तें आजून हांवें थारावंक ना
आनीक एकलो स्टेजीर चडलो
ताणें म्हळें – हांव केन्नाच तोंड धुयना
हांवें ताचें तोंड उगडलें आनी दांत पळेले
सामके 'धवेफुल्ल'
हांवें ताका कुशीक व्हेलो आनी विचारलें
-- तूं तोंड केन्नाच धुयना आनी दांत कशे धवेफुल्ल?
ताणें विचारलें – माकड केन्ना धुता?
हांवें म्हळें – ना
ताणें म्हळें – माकडाचे दांत कशे धवेफुल्ल?
हांवें म्हळें – बरोच हुशार दिसता मरे. कितें करता?
तो हांसलो आनी ताणें म्हळें – पी.एच्.डी. करतां
हांवें म्हळें – विशय कितें?
ताणें म्हळें – माकडाचे दांत.

# सात रंगांचीं सपनां

□ परेश नरेंद्र कामत

म्हगेलें अपुरबायेचें सान चली
चितारता कागदार मनाचे सहजतायेन
मनशांचीं खुमर्णी; चित्रां...

पृथ्वीभशेन गोल गोल वांटकुळे व्हडले गुळे
तातूंत मदीं दोन बारीक्क दोळे
आनी म्हगेलें बाय म्हाका म्हणटा आतां पळे –

हांव पळेतां लक्तुबायेन चितारलेल्या त्या मनशांकडेन
आनी चित्रांतले मनीस म्हजेकडें पळेत हांसतात
चंद्रकोरी भशेन.

हांव सुखावतां खोल मनांतल्या मनांत,
भुरकुट्टां, जगांतलो सगळ्यांत सुखी मनीस आशिल्ले भशेन.
काळीज-कंवळे उमळशिकेन पळेत रावतां परत परत:
एकदां म्हगेले छकुलीकडेन
एकदां चित्रांतल्या त्या मनशांकडेन;

तांचो सभाव निवळ धुयिल्ल्या तांदळाभशेन चक्क धवो
आनी त्या धव्या रंगांत आसात दडून
म्हज्या मनांतलीं सातय रंगांचीं सपनां...

# शेणिल्ले खीण

□ हर्षा शेटये

...स पोरणी मुस्तायकी उस्तीतना
... लागता
...णांतलें खेळण्यांचें पेटूल
...उमेदीन एकठांय केल्लो
...लो संवसार
... लाकडी लाटफळें
...दन आदोळी वान रगडो सूप
...-कुकमाच्यो पुंजायल्ल्यो
...च्यो रंगयाळ्यो बुडकुल्यो
... कुडके, मणयांच्यो माळो
... इश्टिणिंच्यो यादी
...चे खेळ
...यो गुंजो पुंजायतना
...र्ती झगडीं
... केल्ली गट्टी फू
... उलोवपा खातीर केल्लो
...यो खेळ
...च घडिल्ले वरी सगळें...
...वल्या-बावलेची जोडी
...ा मुळांत माटव घालून
...यान केल्लें तांचें लग्न
...तीर पिंजिल्ली
...यची नवी साडी
...र फाटीर पडिल्लो धपको...
...पणांतल्यो यादी
... भोंवतणीं नाचतात
...यादींत दुसरी याद घुसपत
...ची एक व्हडली माळ तयार जाता
...तलो एक एक मणी
...एक खीण
...या काळजाचो कुडको...
...कीत
... तुट्टा
...
...ल्या दोळ्यांनी
... शेणिल्ले खीण
...पुंजायत बसतां.

# सोद !

□ सखाराम गोविंद शे. बोरकार

हार्ली म्हाका उजवाडाची
सामकी नसाय जाल्या.

बंद कुडींत काळखांत
एकटोच रावप म्हाका आवडटा.

उजवाडांत जिणेंत
कसलीच मोख नासतना
हांगा थंय धांवपांत
कितें अर्थ आसा ?

लोक धांवतात म्हण
हांवेंय तांचे फाटल्यान धांवचें
हें म्हाका समा दिसना.

ते खातीर, हांव आतां
एके बंद काळखे कुडींत बसून
म्हजे जिणेंतले मोलादीक खीण
हांवें उजवाडांत कित्याक वगडायले
तार्ची कारणां सोदतां.

# कुंकडाक मारप

□ एम्. जी. राजीव

माका जीव आसा,
कुंकडाकय जीव आसा –
माका रगत आसा,
कुंकडाकय रगत आसा –
कशी हांव ताका
जीवेशीं मारतलो...?

हे विषयांतुले गुरून
अशी सांगलां –
''पोटांत वीष भरचें,
दोळ्यांतुलें रगत
ऊब करून पर घालचें,
तूं दोळ्यांत रगत नातिल्लो जातना
कुंकडाचे पायांक धरचें,
ताका हातांत लोंबोवन घालचें
आनी यांत्रीक जावन
ताजो गोमटो काडचो –
हीच एक सरळ वाट !''

# मन

□ सुरेश गुंडू आमोणकार

कांद्या पाकळ्यो सोलिल्लेवरी
अगड मना घेतलो थाव
व्हांवल्यो झरी दोळ्यांतसून
लख्ख मळब फुल्लें मनांत

# शेळांव यादी

□ राजश्री सैल

म्हजी आवय म्हणटाली
जिवीत म्हणटात तें आळवा पानावयलें उदक
पावसांत पडटा आनी वाऱ्यान व्हाळटा.
म्हजी मावशी म्हणटाली
गर्भाचें आनी मिर्गाचें सांगूं येता
केन्ना रचता आनी केन्ना झडटा तो ?
म्हजी भयण म्हणटाली
पावसान भिजल्यार आनी घोवान मारल्यार
कोणाक सांगतलीं ?
ल्हव ल्हव हांव व्हड जालें
म्हाका होलमूंक लागलें हांचें
पावशी तत्त्वगिन्यान
आवयलो घरकार आळवा पानावेल्या उदकावरी
रोखडोच व्हांवन गेल्लो
मावशेल्या पोटांत केन्ना गर्भच रचूंक नासलो
आनी म्हजी भयण जिवीतभर
घोवालो मारच खायत आसली.
आतां ह्या रासवळ दुख्खाचो एक पावस जाला
केन्ना सांजचो शिरशीर झडटना
पावसी शेळांव यादीन मन शिरशिरता
पावसी शेळांव यादीन मन शिरशिरता.

# मर्ण सुवाळो

□ परेश नरेंद्र कामत

तरांटून बांदिल्ली निसण
जून कोंड्या पालखी
पिंजक्या हांतरार
धव्या कपड्यांतली कूड
चिंते-विरयत न्हिदल्या

कोण पिरंगता खंयचेकडेन
काडून नेट अडेचो ?
बोबो हुयेली मारून आतां
निखटोच दुकां शिंवर

हुरपंज्यो जमल्यात
मनीसपणाक पालव दिवंक
पूण फकत
चार भुजां आदाराचेर
मरणा सुवाळो जमीन माड्डिता...

# दुवाळे

□ भालचंद्र गांवकार

आतां...
म्हज्याय चिंतनांक लागल्यात दुवाळे !
पुरो जाल्यात हे...
रगता... मायेचे सुवाळे
दिसता...
फाल्गुनांतल्या रुखावरी
पानान पान झडचें
जीण असह्य करपी वजें...
अळंग पेण्यार सोडचें
चैत्रांतल्या...
वाऱ्या ल्हारार
धुंद मागीर पेंवचें
आंगा-पांगार फुटोवन आंकऱ्यो
चैत्र-न्हाण न्हांवचें...!
खरेंच आतां दिसता म्हाका
फाल्गुनांतल्या रुखावरी
पानान पान
झडचें !

# ो आनी गांव

आर. रामनाथ

खूब भोंवता
य आसतना
का आसतना
य तेन्ना
का तेन्ना
य तसो
का तसो
खुबूच भोंवता
कत भोंवता...

खंय वता
तें करता
य बसता
य उठ्टा
तें खाता
तें पिता
य न्हिदता
य जागता
य कळना
य कांय एक कळना...

का कसलेय प्रस्न विचारात
तांची जाप दिना
मोनो न्हय
रोय न्हय
का बेस्स बरें उलोवंक येता
त सट्ट जाल्यार आयकूंक येता
का लागचें
ंच पयसचें दिसता
गीर तो असो कितें वागता?
कित्याक भोंवता?
डये तो कितेंतरी सोदता आसतलो...
गल्यार ताका पालव दिवंक येतालो
तो कित्याचीच सुलूस लागूंक दिना...

– आनी एक दीस तो नाच्च जालो.
गांवांत तर्कवितर्क सुरू जाले
तो नासतना अख्खो गांव
ताच्या अस्तित्वान व्यापून गेलो
गांव मात आपलें अस्तित्व विसरलो
तो महात्मो जालो
गांवान हांथरूण धरलें
गांवाचो अनाकलनीय अंत जालो...
– आनी तो मात गांवाच्या मड्यावेल्यान
व्हडा व्हडान हांसत हांसत भोंवत सुटला...

# पावस यादिचो

□ नयना आडारकार

तेन्ना सावन, म्हाका पावली उबारूंक येना तेन्ना सावन
तुज्या वात्सल्याच्यो शिर्वाणसरी
आंगापांगार झेलयत, कितलेशेच मीर्ग देखले
केन्ना रिमझिम, केन्ना उटंगारी माये घसघश्यार
नाचलीं मनां भिरीं, तेन्ना सावन आतां मेरेन.
आतां म्हज्या पावलार पावलां दवरीत
कितलिंशींच माणकुलीं पावलां
तुजे आशाडपावळेंत भिज्जुक भिजतालीं.
तेन्ना सावन आतां मेरेन सगळें बरे भशेन
आनी अकस्मात वाऱ्यार हुबत
तुजीं पावशी कुपां पयस शेणलीं.
आतां मिर्गांत हरशिलो पावस शेनता
आनी त्या पावसांत हांव तुजी माया सांसपितां.

# पावस – वर्सावळिचो

□ नयना आडारकार

ताचे वाटेक दोळे लायत
ती भर गिमांत हुलपता
आनी तिच्या आंगांपांगांत
रसरसून पेट्टा
तांबडोच गुलमोहर
मागीर वर्सावळी प्रमाण
तो येता – खर्जांत गर्जत
धपकायत – दिपकायत
तिका अळंग विरगळायता आपल्यांत
आनी तिच्या रतिगंधान पिसावल्ले वरी
तो न्हंय-वझऱ्यांतल्यान धांवत सुट्टा.

# फा. कार्रेनो भारती कैदयांची खबर घेतालो

फेलीस्यु कार्दोज

सुरवातेक आमी आगवादचे बंदखणींत एके खोलयेंत २१ जाण आसले. पूण दीस वेतां वेतां राजकी कैद्यांचो आंकडो जायतो वाडलो. ८ खोलयांनी कैद्यांक दवरले. म्हाका आनी म्हज्या भारती सांगात्यांक ७ आंकाचे खोलयेंत दवरले.

भारती कैद्यांची खबर घेवंक वो तांची वासपूस करूंक कोण येनासलो. पूण कांय म्हयन्यां उपरांत पणजेचे सालेजियान संस्थेचो फा. कार्रेनो तांची खबर घेवपाक म्हयन्यान वा दोन म्हयन्यांनी एकदां येवपाक लागलो. हो पाद्री इटालीचो आसलो. भारत सरकारान आपल्या कैद्यांची वासपूस करूंक सालेजियान संस्थे कडेन मागललें खंय. ते परमणें फा. कार्रेनो पुर्तुगेज सरकारा कडेन मदेस्ती करून आनी पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांची परवानगी घेवन भारती कैद्यांक भेटूंक येतालो. येतना तो तांकां कपडे आनी हेर वस्तू हाडटालो.

थोड्या म्हयन्यां उपरांत भारत सरकारान, गोंयांत आसलल्या आपल्या राजकी कैद्यांची खबर घेवंक, एजिप्ताच्या सरकारा कडेन बंदोबस्त केली. ते परमणें एक दीस एजिप्ताच्या सरकाराचो खलील नांवाचो एक प्रतिनिधी आमचे खोलयेंत कैद्यांक भेट दिवंक आयलो. तो येवचे आदीं 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसान बंदखणी विशीं कसलीच खबर सांगना जावंक कैद्यांक शिटकायले आनी कितेंय सांगल्यार परिणाम वायट जातलो म्हण धमकीय दिली.

एजिप्ताच्या त्या प्रतिनिधीन कैद्यांक तांचे कसलेय प्रस्न आसात काय म्हण विचारलें. पयलीं कोणेंच तोंड उगडूंक ना. थोड्या वेळान दोग जाणांनी हात वयर काडले. एकलो शशिकांत शुक्ला आनी दुसरो राम शंकर श्रीवास्तव. दोगय उत्तर भारती. तांकां इंगलेज भारूय कळटाली. तांकां कोमांदांतिचे कचेरेंत व्हेले. थंय तांणी त्या प्रतिनिधींक आपणांक कसल्यो अडचणी आसात त्यो सांगल्यो. तातूंत ही एक आसली: दर आयतारा सकाळच्या वेळार आगवादच्या कोटा वयर पुर्तुगेज बावटो चडयतना आनी तिनसांजचो तो देंवयतना पुर्तुगेज सैनीक अधिकारी कैद्यांक जबरदस्तेन उबे रावंक सांगतात. बंदखणी भितर आसलल्या कैद्यांनी तांचो बावटो चडयतना देंवयतना उबे रावंकच जाय काय म्हण तांणी ताका विचारलें. एजिप्ताच्या त्या प्रतिनिधीन उबे रावपाची गरज ना म्हण सांगलें.

शशिकांत शुक्लान आनी राम शंकर श्रीवास्तवान ती खबर एजिप्ताच्या प्रतिनिधींक सांगली देखून 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसु रागान तांबडो जालो. ताणें हांकां दोगांयकय काळखा कुडींत व्हरूंक लायले. उपरांत 'तेनेंत' कॉश्त आफोंसान तांकां बरेच पेटयले आनी १५ दीस त्या 'सेग्रेदांत' (काळखा कुडींत) दवरूंक लायले.

जे भारती कैदी आगवादचे बंदखणींत आसले तांतुंतल्या ६ जाण
पुर्तुगेज अधिकारी इल्लें अदीक मोल दिताले. ते म्हळ्यार सर्वश्री त्रिदिबकु
चौधरी, ईश्वरलाल देसाई, शिरूभाऊ लिमये आनी नानासाहेब गोरे. (ह
२ नंबराचे खोलयेंत दवरलेले). आनी श्री जगन्नाथराव जोशी आनी
लिमये (हे ५ नंबराचे खोलयेंत आसले). हे राजकी फुडारी आसले दे
बंदखणिचे अधिकारी तांकां इल्ले वेगळे तरेन वागयताले. तांकां र
बी करूंक पडनासलें. आमी तांकां च्या, जेवण व्हरून दिताले.

केन्ना केन्ना श्री जगन्नाथराव आनी मधु लिमये हांचे मदें वाद जाता
पयलो जनसंघ पक्षाचो आसलो जाल्यार दुसरो समाजवादी. एकेकदां त
वाद बरोच रंगार येतालो. ते झगडटात् काय दिसतालें. तांची भासाभ
आमचे खोलयेच्या कुजनांत रावल्यार सारकी आयकूंक मेळटा
गोठ्यांतल्या गोरवांचीं शिंगांक शिंगां आदळटात म्हणटात ते परीं.
वाद सोंपतकच दोगय इश्टागतीन उलयताले.

एकदां हांव जेवण घेवन गेल्लों तेन्ना श्री नानासाहेब गोरेक हांवें पुर्तु
बावटो चडयतना-देंवयतना आमकां बळजबरेन उबे करतात ती गज
सांगली. तो एक नांवादीक फुडारी म्हणटकच बावटो वयर-सकयल काडट
कैद्यांनी उबे रावंकच जाय काय म्हण हांवें ताका विचारलें. ह्या सभाग्य
म्हाका कसलो जबाब दिवचो? ताणें मराठींत सांगलें: "तुमचे वकीलसा
कितें सांगतात? तुमचो डॉक्टरसायब कितें म्हणटा? ते सांगतात त
करात!"...

दीस वेतां वेतां आगवादचे बंदखणींत कैदी चडत रावले. वयर अ
सकल दोग जाणांक न्हिदपाच्यो खाटी हाडल्यो. शेंकड्यांनी सुटके-झुजाऱ्यां
राबितो हे बंदखणींत केलो. रेयिशमागचे बंदखणींतल्यान थोड्या कैद्यांक
आगवादचे बंदखणींत हाडून दवरले. जायते बरे सुशिक्षीत जशे शिक्ष
वयज, विद्यार्थी आतां आगवादचे निवासी जाल्ले.

दर आयताराक पुर्तुगेज बावटो चडयतना-देंवयतना आमी थोडे
रावनासले देकून सैनीक आमकां जबरदस्तेन उठायताले आनी आमी निश
मारून उबे रावताले तें पळेवन थोडे जाणटेले आमकां आत्मीक बळ दिता
दोग-तीग जाणांनी म्हाका सांगलें, "तुमी करतात तें सारकें. आमक
तशें करीन दिसता. पूण माराची भिरांत दिसता. हे शिवाय आमच
बायल-भुरग्यांक सुमानाक एकदां मेळपाक दितात तेंय ते बंद करत
असले त्रास सोंसूंक खरेपणीं आमकां बळ ना." म्हाका तांचें हें प्रामाणिकप
आवडलें.

[चल

## 'जागा' खातीर बरप धाडटना

- बरपाची एक प्रत बरोवप्यान आपणालागीं बाळगुची.
- बरप निवळ अक्षरान कागदाच्या एकाच अर्दान बरयल्लें आसचें. (एका अर्दान आदीं वापरिल्लें कागद बरोवपाक वापरूं येता.)
- हेर खंयचेच कडेन उजवाडा येवंक नाशिल्लें बरपूच धाडचें.

# ाशिली कविता : कमाविशेचें काशेद

किरण बुडकुले




काशिली कविता म्हळ्यार एक अफलातून चीज. तागेल्या ह्या कमाविशेच्या ोदांतल्यान कितें भायर सरत हें सांगप भोव कठीण. निदान तागेल्या अल्या संग्रहांचेर पातयेवन तरी अशें कितेंय अदमासपंचे धावोदर्शं कोणेंय नये. तागेलो नवेलो संग्रह **काशिन म्हणपाचें सोडुंक ना** (काय म्हणपान शेक सोडूंक ना?) चाळ्ळा मात, एक हुमाणें मनांत हुळहुळ्ळें: ाटाऱ्यांत पेटारो, पेटाऱ्यांत आसा एक म्हातारो... गुलगुलीत!'' काशिली ता ज्युस्त ह्या हुमाण्या वरीच. काशेदांत काशेद, काशेदांत काशेद रेल्ले वरी जिणेच्या संभावनांचो खोल वचून सोद घेत रावपी. जितली विताचे खरायेंत देंवता, तितली ल्हान (अल्पाक्षरी) जावपी; जितली ायेंत देंवता तितली पिकून म्हातारी (जाण्टी) जावपी; जितली ाविकायेन वाडटा तितली आशयान घसघसून (गुलगुलीत) कांतिवंत ापी.

देखून काशिले 'फांकडें नांव नाशिल्ले' कवितेक एकूच प्रतिमा सोबता: म्हळ्यार **काशेदा भितर काशेद.** आजवेर काशि कडल्यान तीन काशेदां ्लीं. खरेपणान पळेल्यार तीं तिनूय एकाच काव्यपेटाऱ्यांतल्यान भायर येल्लीं काव्यानुभूतिचीं तीन परिमाणां – दरेकलें आदल्या परस खेरीत, ीक प्रगल्भ, अदीक पिकाळ, अदीक कुशाग्र! अभिव्यक्तिचीच न्हय अंतर्दिशिचीय मोख दर खेपे अदीक सुस्पस्ट आनी प्रगाढ जायत हाची गवाय दिवपी कविता. सोंपी सरळ साहिराचे जात कुळयेची.

देखुनच, कितेंय नवें काशिच्या नव्या संग्रहा विशीं उलोवचे आदीं, एक की समजिकाय (तागेले माजी-आजी आदि कविते विशीं) सामकारावप गरजेचें थारता. कारण, काशि दरेका संग्रहांत नवे वाठार माडयत ना, तो भोंवन भोंवन एकच अनाकळ वाठार – खासा आपणाले मनोभुंयेचो नांगरीत रावता. मात ह्या मनोवाठाराची दरेकली संग्रह-भोंवडी जिविता यां पळोवचेल्या कविल्या खेरीत-खेरीत दिश्टिकोणाची कुरू थारल्या. प्रदक्षिणा कवित-जिविताच्या अगाध परस्पर संबंदाची वेगळी मांडणी तायता. ह्या मांडावळिचीं पेणीं वेगळीं काडलीं जाल्यार तांकां कविल्या श्टिकोणाच्या आदारार – बहिर्मुख, विमुख आनी अंतर्मुख कविता अशें णचें पडटलें. मात हीं अशीं नांवां कविल्या (वेळोवेळावेल्या) दिश्टिकोणाक प ही एक तात्पुरती – त्या संग्रहा पुरती – तडजोड. कारण काशिली विता तशी खरेपणान आत्ममग्नच. ती हांवाच्याच तोंडान उलयता. फकत 'हांवां'चें परिमाण संग्रहा-संग्रहा प्रमाणें बदलत, वाडत, विस्तारत वता. ची वळख, आयडेंटिटी विशाळ जायत वता. हे वाडपाचे प्रक्रियेंत **हांवपण** गळत **आरस्तेपण** जावंक पावलां. अहंमाचो बोमाडो फुटून अस्तित्वाचे णयाळे 'टांचणी-टोंच' जाणविकायेन कवीक हांवपणच न्हयकारपाक यलां. '**काशि म्हण्टा**'तलो 'हांव' वयलेचाराक तरी हांव **विरूद्ध** विश्व नेदान हांव **आनी** विश्व) हे समजणेन थोडो बेफाम, बरोच मग्र आनी डोभोव बहिर्मुख आशिल्लो. देखून '**काशि म्हण्टा**'ची कविता एखाद्र्या शान मळबार बेदरकार फातर मारचे तशीच बेछूट आनी उन्मुक्त आशिल्ली. वी पिसो नाशिल्लो. लौकिकार्थान तो सरभोंवतणचे वास्तविकतायेन स्वस्थ जाल्लो बेभान कलंदर आशिल्लो.

**काशिक म्हणचेंच पडटा** येतासर कविचें हांवपण गळिल्लें पूण आत्मज्ञान जुनय पयसच आशिल्लें. ही कविता 'पैशाचें पिवन रुपयाचें लकपी' रोबेबद्र्या परी आशिल्ली. तशीच 'जिणेक विटिल्ली पूण जियेवपाक




बाध्य' अशा युगाची वाणी. शापित आनी विफल! पियेवप कितलें निरर्थक हें जाणा जावनय पियेवपी आत्म्या वरी, ही कविता जिणे पसून विमुख जावन गेल्ली. असहायता आनी अपरिहार्यता ह्याच तोंकां मदीं ती घुंवताली. मात कवी पुरायेन साबुद्दीर आशिल्लो. हताशा आनी विफलता हांणी गिरासुनय तागेली संवेदनाशिलताय जिवीच आशिल्ली. **सहानुभूति** आनी आसा ते निर्शेवणेचो **स्विकार** हीं कवितेचीं आशास्थळां म्हणूं येतालीं: पूण हो कवी घडये जिविता कडल्यान पुरायेन उबगून उठून वचत म्हूण तागेल्या वाचप्यांक तेन्ना भिरांत दिसताली. निदान त्या संग्रहांत तरी 'ठुकरा न दे जहां को कहीं बेदिली से हम, तंग आ चुके' अशीं काशिलीं चिन्हां दिसतालीं.

पूण तीं चिन्हां बाहित्काराचीं आसलीं हें आयज **काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना** हो संग्रह वाचतना होलमून धादोसकाय दिसता. ह्या संग्रहांत काशिलो 'हांव' पुरायेन सांडला, अस्तित्वाच्या 'पापणी-पिटपिटायण्या' यथार्थांत पूर्ण लोपून गेला. देखूनच हांगा काशिक **काशि** सांपडला. भोवच अंतर्मुख जावन काशिन ह्यो पोसोभर कविता शिंवरल्यात हें संग्रहाच्या पानापानार जाणवता. **काशिक म्हणचेंच पडटा** ह्या संग्रहांतले 'गर्दी' हे कवितेंत, ''एक म्हणजे काशिनाथ / दोन म्हणजे शांबा / तीन म्हणजे लोलयेकार / काशिनाथ शांबा लोलयेकार / इन मिन तीन / तीन ही गर्दी / गर्दे भोंवतणी उदक / आनी / गर्देंत जीतो मूस ना'' (पा.१) कविलो आपसोद आत्म-न्हयकारावणेंत येवन सोंपिल्लो. हें self-negation **काशिन म्हणपाचें सोडूंक ना** ह्या संग्रहांत 'नमन' हे कवितेंत अदीक सुजाण पूण अदीक नमळ जावन गालिबाच्या मुखान उलयता.

'नमन' हे कवितेंतय तशें पळेल्यार न्हयकारणी आसा. पूण ती आत्म-न्हयकारणी न्हय. लौकि वळखिचीं जीं कांद्या सोलां आत्म्याक

वेडावन संवसार ताका एक विशिश्ट वळख, एक खाशेलें हांवपण दिता त्या हांवपणाचो (ego चो) हांगा त्याग जाता. कारण कवीक ते आलायते वळखिचें पोलपण कळ्ळां. देखूनच तो मानून घेता, ''हांव न्हू काशिनाथ शांबा लोलयेकार / म्हजें नांव न्हु काशिनाथ शांबा लोलयेंकार / हांव सोदतां म्हजें नांव / हांव सोदतां म्हजी वळख / हांव सोदतां म्हजो म्हाकाच / कवितेचें एक एक अक्षर मांडून.'' (पा.५) कवीक आत्मसोदाची तान लागल्या, निखट्या लौकिक वळखपत्राची न्हय, हें दर्शवपी वळी 'नमन' कवितेंत फुडें येतात. कवी म्हणटा, ''आयजूच तो एस्. डी. तेंडुलकार मेळ्ळेलो / हांवें तेका म्हटलें / तूंच एस्. डी. तेंडुलकार कित्यावेल्यान ?'' (पा.५).

खंयचेय कवितेचे प्रगतिचें माप म्हळ्यार कविली अंतर्मुख जावचेली तयारी, प्रामाणिकताय आनी उत्स्फूर्तताय. असलेच कवितेंत दिश्टावो गळटा. हरशीं कविता समाजाभिमुख, जिणेक सामकारा वचपी, बांधिलकी मानपी बी जायतें आसूं येता. पूण ती आशयान थपथपूनय दिश्टाव्यान उजू थारना. मारके म्हशी वरी ती कविता जिविताक, हेरांक प्रतिस्पर्धी लेखून प्रतिकाराचे नदरेन पळेता आनी विरोधाच्या अस्त्रान विध्वंसाच्या उतरान उलयता. अशी कविताय तशें पळेल्यार, भोव मोलादीक. गरजेची पूण समग्र न्हय. ती अभिव्यक्तीन धारदार, अनुभुतीन उष्ण आनी आशयान कवाशा फुलापरी उग्र आसता. अंतर्मुख जाल्ली कविता वयावेली न्हय ती वयस्क, चिंतून-जियेवन जिणेक स्विकारपी, सौम्य पूण भिजूड न्हय. देखुनच सोंपी! सामकी अतिसादी दिसची इतली सरळ उलोवपी.

हें अतिसादेंपण स्वताचो प्रामाणीक थाव घेवपांतल्यान येता. देखून 'डायरी काशिची – १५' हातूंत कविली प्रामाणीक अस्वस्थताय पातेता आनी तागेले पुराय सृजनाचे प्रक्रियेचें मर्म कळटा: ''जो सदांच अस्वस्थ आसता / आनी आसता आकुळपिकुळ / तो निमणो कवीच आसता''. फुडें काशि म्हणटा, 'कविची तगमग कळोंक जाय रसिकांक / जाल्यार तेंकां उपाय कितें? कवितेंत काळीज ओतप होच आनी कितें!'' आनी फुडें, 'सगलेच कवी बरयतात कविता / पूण चडशे पडटले काळाचे भकीक / जे टिकोन उरतले ते कवी परस चड मनीस आसतले.'' (पा.२८)

अकस्मात काशि सारकेल्याचे स्फोटक कविता बरोवपाचे संवेदनेंत हो बदल कसो आयलो हाची जापय **काशिन म्हणपाचें सोडुंक ना** वाचतना मेळटा. कवीन जिणेचे कल्पकथेचो कणानकण वेंचून ताचो आस्वाद घेवचेली कळाशी प्राप्त केल्या. फॅक्ट आनी फँटसिच्या दोन तोंकां मदीं झेलकावपी जिविताक कवी एक चलचित्र कशें धरुनच पूण सुवादान चाखता. जें 'हांवें भोगलें तें सगलें उत्कटतेन / ...म्हज्या दोळ्यांतल्यान आजून गळोंक शकतात दुकां / म्हणुनूच सोसुंक शकलों हांव ही जीण / खिणभर तिचें गल्लाभरूपण विसरून'' ('फिल्म', पा. ५९)

कवीक चिवट जिवेक्षा लाभल्या हें ह्या संग्रहांत दिसता पूण ताका जिणे विशीं आसक्ती ना. मर्णाची निरंतर अपेक्षा, उपरांतचो हुस्को ताका भोवन भोवन जांचता. पूण कांय म्होंवे पास ताका जिणेचे गोडसाणी कडेन खिळोवन दवरूंक शकल्यात. हे तागेले कलाकार-कवी-साहित्यीक आप्तेष्ट. थोडे तागेल्या वाचनांतल्यान तागेले जीवन सांगाती जाल्यात तर थोडे भेटी-गांठिंनी ताका लागिंचे जाल्यात. तर शंकर रामाणी सारकेलो चिंतनशील कवी चीट-चंपाटेंतल्यान आनी 'उतरा-उतरांतल्या मौनांतल्यान' काशिलो आत्मज जाला. काशिले जिणेक आफुडपी हो कवीवर 'रावता / अटंग्या मनांतल्या रानांत / रातकिड्यांचो आवाज / सतत तेंच्या कानांत'' (डायरी काशिची-३४, पा.४३).

काशिचे हे कलाकार-सोयरे तरातरांचे. गालिब-साहिर-केदार शर्मा-गुरुदत्त-मीनाकुमारी धरून ते एलियट (April is the cruelest month हाचेर सुंदर श्लेष आसा). सलमान रश्दी-सोलत्झेनित्सिन-मिलान कुंदेरा-तस्लीमा नसरीन-शणै गोंयबाबच न्हय तर तागेले समकाली वेळुस्कार-बोरकार-जोग हे कवी-लेखकय, इतलेंच न्हय तर आल्कोहोली पी.के आनी मनशांतल्यान वचून मनशांत आयिल्लो हरिश्चंद्र गवंडो लेगी हे सगले पुरायेन काशिले न्हय पूण कुसांनी, अंशांनी ताका लागीं पाविले ही फुलपाकुल्या वरी थेंबाथेंबान जिविताची रसना चाखपाची कमाविशी काशिल्या कवितेच्या नव्या गर्भगिरेस्तपणाची गुरुकिल्ली. कवी अणू जोडून शुष्क, नीरस आनी गद्य जालो ना, मनीसपण वेंचू-वेंचून सु हळवो आनी गिरेस्त जाला.

काशिलें प्रतिमाविश्व वाडिल्लें ना. पूण ताचीं तासां बदलल्यांत. ता विशय आजूय विस्तारिल्ले नात पूण आशयान ते खोल आनी विशा जायत आसात. 'बाजार', 'एल कापितान थिएटर', 'डायरी काशि – १८, १९, २०, २५, २७, २९ ह्यो हाच्यो पती. खासा उल्लेखन कविता 'पिके'. तशेंच, 'डायरी काशिची – ४३' ही कविता काशि मनांत अदींमदीं उफेवपी क्षुब्धतेची गवाय. पुरस्काराच्या मापान कवी मेजपी लोक, कविल्या सृजनाक खरेपणान वळखतात काय, असो प्र काशिक पडटा. हाका सोपी जाप आसा: बाबा लोलयेकारा, 'यूँ तो जम में सुखनवर बहोत अच्छे, कहते हैं कि ग़ालिब का है अंदाजे-बयाँ औऽऽर हें जाणा तूं? मागीर कालाय तस्मै तमः म्हूण फाल्यांच्या संभावनां सोद घे. आयची चिंता सोड.'' तुगेल्या संग्रहाक येवकार.

**काशिन म्हणपाचें सोडुंक ना**
**काशिनाथ शांबा लोलयेकार**
**ब्र प्रकाशन, १९९९**
**पानां: ६१; मोल: ५५ रुपया**


## उक्तावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | | |
|---|---|---|
| १. | उजवाडावपी थळ | मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. | उजवाडा येता तो काळ | दर म्हयन्याक |
| ३. | उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | सुमंत रामचंद्र केळेकार |
| | राष्ट्रियताय | भारतीय |
| | नामो | प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय ४०३ ४०४ |
| ४. | संपादपी | रवीन्द्र राजाराम केळेकार |
| | राष्ट्रियताय | भारतीय |
| | नामो | प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय ४०३ ४०४ |
| ५. | वावुरपी संपादपी | माधवी सरदेसाय |
| | राष्ट्रियताय | भारतीय |
| | नामो | २०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड मडगांव – गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, सुमन्त रामचंद्र केळेकार, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे माहितीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**सुमन्त रा. केळेकार**
उजवाडावपी